





# वर्गशत्रू

— दिलीप बोरकार

मुक्त गोंयचे अमुक्त जनतेक पिडपी नाडपी, वेंतभर पोटाखातीर व्हांवोवन अुरिल्लें जनतेचें रगत चोखपी, जळवेच्या मनोवृत्तीच्या सत्ताधाऱ्यांचें दर्शन.



# ' वर्ग शत्रू '



## तीन अंकी नाटक

( गोंय सरकारान बंदी घाल्लें )

## दिलीप बोरकार

गोंयच्या वातावरणांतलें आसलें तरी ह्या नाटकांतली कथा, पात्रां पुराय काल्पनीक आसून ताजो संबध कोणेच लावन घेवंचो न्हय.

— लेखक



## अगस्ती प्रकाशन

पत्तो :–
दिलीप बोरकार
सेंट लॉरेन्स,
आगशी,
४०३२०४ गोंय

पयली खेप :
फेब्रुवारी १९८२

अजवाडावपी :
दिलीप बोरकार
अगस्ती प्रकाशन
आगशी

अगस्ती प्रकाशन– १



छापपी :
हिरोज प्रिंटर्स
वेलिंग साकव, म्हाडुळ, गोंय.

मुखचित्र :
दिगंबर सिंगबाळ



मोल : बारा रुपया




कला अकादमी गोंय नाटच महोत्सवांत वांटो घेवंक ह्या नाटकाक बंदी घाल्ली. ते वेळार 'वर्गशत्रू' विरुद्ध झुंजपी 'अघनाशिनी' चे शूर कलाकार.

| | |
|---|---|
| ० अमीत | दिलीप बोरकार |
| ० गुंडाप्पा | सुभाष खांडोळकार |
| ० जेलर | प्रकाश पांडुरंग कुंकळयेकार |
| ० आमदार देसाय | रघुवीर पांडुरंग कुंकळयेकार |
| ० जस्मिन | विनय शांताराम केरकार |
| ० सेक्रेटरी | गोविंद बाणेश्वर घार्से |
| ० दादा | गुरुनाथ केशव पै |
| ० दीपू | संदीप नारायण कारापुरकार |
| ० भुरगो | प्रसाद शांताराम घार्से |
| ० हवालदार | राजेंद्र शांताराम केरकार |
| ० बेबी | माया बाणेश्वर घार्से |
| ० दिग्दर्शन | सुभाष खांडोळकार |



गोंय कला अकादमीकडे वर्सभर झुंजून ह्या नाटकाचो पयलो खेळ 'अघनाशिनी-आगशी' हें संस्थेन गोंय कला अकादमीचे कोंकणी नाटचस्पर्धेंत ता. ३० मार्च १९८० दिसा सकाळच्या १०-३० वरांचेर, पणजे कला अकादमी थेटरांत सादर केलो.

## पयल्या खेळांतले कलाकार

| | |
|---|---|
| ० अमीत | दिलीप बोरकार |
| ० गुंडाप्पा | सतीश गडकर |
| ० जेलर | सुभाष खांडोळकार |
| ० आमदार देसाय | उल्हास गांवकार |
| ० जस्मिन | शिरिष लवंदे |
| ० सेक्रेटरी | अच्युत धोंड |
| ० दादा | अशोक भोंसले |
| ० भुरगो | विकास रामचंद्र नार्वेकर |
| ० दीपू | प्रसाद रामचंद्र नार्वेकर |
| ० हवालदार | दत्तप्रसाद कुंकळयेकार |
| ० बेबी | नूतन सिनारी |
| ० दिग्दर्शक | अशोक भोंसले |
| ० नेपथ्य | अरुणकुमार साळगांवकार |
| ० प्रकाश येवजण | भरत नायक |
| ० पार्श्वसंगीत | नंदकुमार कामत |

ह्या नाटकाक नेपथ्याचें पयलें इनाम आनी अभिनयाची वैयक्तीक प्रमाण पत्रां फावं जालीं.

# वर्गशत्रूंक मारचे पयलीं . . .

खरें म्हळयार 'वर्गशत्रू' खुप पयलीं प्रसिद्ध जावपाचें. पुण ह्या नाटकाचे ग्रहच बरे नाशुये. हें नाटक बरोवन जालें आनी म्हाका म्हज्या वांगडयांसैत खुबूच मनस्ताप सोसचे पडले.

हें नाटक माचयेर येवंचे पयलींच अेक व्हडलें नाटक घडलें आनी तातूंत म्हत्वाची भूमिका म्हाका करची पडली.

'अघनाशिनो' न वर्स पद्धतीप्रमाण १९७९ वर्सा कला अकादमी नाट्य महोत्सवांत हें नाटक घालें. नाटकाची तारीख आयली. अघनाशिनी चे कलाकार नेटान तयारी करूंक लागले आनी अकस्मात नाटकाक आठ दीस आसा म्हळयार म्हाका 'अघनाशिनी' चो सचिव ह्या नात्यान कला अकादमी कडल्यान पत्र आयलें. 'वर्गशत्रू' नाटक करूंक मेळचेंना. दुसरें खंयचेय सादर करात.' आतां नाटकाक आठ दीस आसात. दुसरें नाटक वेंचून तें बसोवप म्हळयार सादी गजाल न्हय. अेक तर नाटकूच करप ना आनी दुसरें म्हळयार 'वर्गशत्रू' च करप. पुण आमी जे तरेंन अुमेदीन तयारी केल्ली ती पळयल्यार 'वर्गशत्रू' करप गरजेचें आशिल्लें.

हावें ह्या 'अघनाशिनी' च्या सगळ्या नव्या अुमेदी कलाकारांची अुमेद मोडची न्हय म्हण अकादमीकडे धांव घेतलो. नाटकांत कितें आसा म्हण करचें न्हय हेंच म्हाका जाणा जावंक जाय आशिल्लें. तर तांकां कोणेतरी सांगिल्लें खंय कि हावें हें नाटक, ते वेळचे गोंय विधानसभेचे सभापती बाब नारायण फुग्रो, मुखेलमंत्री शशिकला काकोडकार आनी पंतप्रधान मोरारजी देसाय हांचेर बरयलां. म्हाका अजाप दिसलें. हांचेर बरयिल्लें फालतू नाटक हांव करिनूच

कसो असो म्हाका प्रस्न पडलो. हावें ताजें स्पश्टीकरण अकादमीच्या जाळवणदाराक केलें. पुण ते कशेंच आयकूंक तयार ना. 'नाटक सेन्सॉर करून हाड' ताणी सांगलें. सेन्सॉर खंय करप? सेन्सॉरशिप तर ना. उपरांत तांच्याच म्हणण्याप्रमाण हांव पणजेच्या मामलेदारा-कडें गेलों. नशिब सारख्यान मॅजिस्ट्रेट श्री. अणवेकार म्हजे वळखीचे आशिल्ले. पन्नास टक्के बस सवलतीच्या विद्यार्थी आंदोलनाच्या वेळार पोलीस म्हाका धरून व्हरताले आनी ते मॅजिस्ट्रेट चार्जीस घालून सोडटाले तेन्नाची वळख, आतां बऱ्याक पडिल्ली. तांचे म्हऱ्यांत बसून नाटक वाचलें. 'वर्गशत्रू' सादर करूंक कांयच हरकत ना म्हण ताणी प्रमाणपत्र दिलें. हांव खुशालकायेन भल्लों. पुण हे सगळे धांवपळींत नाटक करपाचे परिस्थितींत हांव उरूंक नाशिल्लों. सगळे कलाकार एका दडपणाखाल वावुरताले. शिवाय कांय लोक तांकां फितायताले. दिलीप बोरकराच्या नाटकांत पार्ट करूं नाकात. तो 'पोलिटीकल लिडर, तुमकां खंयच नोकरी मेळचीना. नोकरी आशि-ल्ल्यांक दुसरेकडे ट्रान्स्फर करतले. नाटकाच्या मळार पयलेच फावट भितर सरपी आनी राजकीय मळावेल्या चालीचो कसलोच अणभव नाशिल्ल्या ह्या सादया-सरळ भुरग्यांक भंय दिसप साहजिकूच आशिल्लें. कांय जाण मातशे म्हजेपसून कडेक रावले पुण हेरांनी हे सगळें चेपण सोसून खंबीरतायेन म्हाका तेंको दिलो.

नाटक सादर करूंक मामलेदारान परवानगी दिली. सगळे कला-कार परतून नेटान वावराक लागले. नाटकाची तारीक ५ मार्च १९७९ आशिल्ली तिच्या बदला कला अकादमीन वाडोवन ९ मार्च १९७९ दिली. आमी उमेदीन वावराक लागले. ते दीस सकाळींच सगळे कलाकार थेटरांत गेले. सगळी तयारी करून. पुण थिएटरांत वचूंक कला अकादमी परवानगी दिना. मामलेदाराची परवानगी उपकारना अशें ताणी कारण दिलें. म्हजेर कलकल. अितले उमेदीन माचयेर चडूंक आयिल्ल्या ह्या भुरग्यांक ही बातमी आयकून कितें भोगतलें हाची कल्पनाच म्हज्यान करूंक येना. तांका तोंड कशें दाख-यतलों? ताणी व्हड उमेदीन आयज नाटकाक आपल्या मित्रांक

आयिल्ले. नाटक जायना ही खबर आयकताच तांची अुमेद गळसणून गेली. आयिल्ले तशेच सामान घेवन परत वच्चें पडलें.

हें सगळें चल्लां तें कोणाचे विरुद्ध? म्हजी अन्यायाविरुद्ध झुंजपाची वृत्ती अुफाळून आयली. हो अघनाशिनीचेर आनी लेखकाचेर अन्याय जाल्लो. तो सोंसचे परस जीव दिवप हांव पसंद करपाचों. हावें म्हज्या सगळ्या वांगड्यांक कुशीन दवल्ले. तांका जाल्लो मनस्ताप पुरो. आनीक आतां तांच्या खाजगी जिवनाचेर परिणाम जावपाक नाका म्हण. हांव खंयचे शक्तीकडे झगडटां हें म्हाका खबर आशिल्लें. सगळ्यांक कुशीक दवरून एकूच दोळ्यांमुखार दवल्लें. ह्या अन्याया ची जाप मागप. पुण हांव अेकटो कला अकादमी सारख्या बलाढ्य सरकारी सस्थेकडे कसो झगडटलों? पुण हांव अेकटो ना हाची रोखडीच म्हाका खात्री पटली. अखिल गोमंतकीय विद्यार्थी संघटनेचे अध्यक्ष श्री सतीश सोनक, अखिल भारतीय विद्यार्थी संघटनेचे अध्यक्ष अविनाश भोमले हे विद्यार्थी सेना घेवन म्हजे फाटल्यान रावले. अॅड. अरुण निगळये, अॅड. एस्. व्ही. जोशी आनी अॅड. फेर्दीन रिबेलो हाणी कायद्याचे पाखें म्हजेर आनी अघनाशिनीचेर घालें. ह्या अन्यायाची जाप विचारपाखातीर कोर्टान नाट्यमहोत्सवाचेर स्थगिती हाडली.

कोर्ट कितलो तेप चलत सांगू येना आशिल्लें. संस्थेचेर जाल्ल्या अन्याया वांगडाच नाट्यमहोत्सव बंद अुरून कोंकणी चळवळीक मार बसचो न्हय हाचीय जबाबदारी म्हजेर आशिल्ली. आनी हें सगळें सांबाळून म्हाका झुंजपाचें आशिल्लें. हांव हें झुंज कितलोय तेंप चालू दवरूंक शकतालों. आनी जिखतलोंय आशिल्लों. पुण म्हज्या जैता परस कोंकणी नाट्य महोत्सव चालू उरप चड म्हत्वाचें आशिल्लें. ते खातीर हावें कॉम्प्रमायज करपाचें थारायलें. आपल्याचेर जाल्लो अन्याय सोसचीना हें अघनाशिनीन सिद्ध केल्लेंच.

अघनाशिनी आनी कला अकादमीचें झुंज आमी सोंपयलें. स्थगिती काडून स्पर्धा चालू जाली.

शशिकला काकोडकरांचो सरकार कांय दिसांनी पडलो. फुडले नाट्य महोत्सवांत नवो सरकार आयलो. अघनाशिनीन तेंच नाटक

स्पर्धेक घालें. आनी अेक बरो प्रयोग सादर करून नेपथ्याचें पयलें अिनाम आनी हेर प्रमाण पत्रां घेनलीं. हो आनीक अेक विजय आशिल्लो पुण वायट दिसतालें तें हेंच कि बंद केल्ल्या प्रयोगांतले कलाकार आतां नाशिल्ले. तांकां अजुनय नाटक जातलें म्हणपाची खात्री नाशिल्ली.

'वर्गशत्रू' लोकांनी पळयलें. आरे हातूंत बंदी घालपा सारकें कांयच ना मरे' प्रेक्षकांनी म्हळें. मागीर बंदी कित्याक घाल्ली?

अधनाशिनी विरुद्ध सरकारचो हो कट आशिल्लो? कित्याक आसतलो? ती तर अेक संस्था.

मागीर हें सगळें महाभारत कित्याक घडलें? म. गो. सरकारच्या कृष्णकृत्या विरुद्ध हांव झगडटां. आनी हे वेळार म्हाका बुद्ध शिकय-ल्यार ताई कडच्यान शाब्बासकी मेळटलीं हाची वाट पळोवपी कांय 'वर्गशत्रू' चो हो म्हजे विरुद्ध केल्लो कट आशिल्लो. कितेंय जांव. हें अितलेंय करून आयज 'वर्गशत्रू' पुस्तक रूपान वाचप्यां मुखार येता.

वर्गशत्रू माचयेर हाडूंक झुंजतना खुप लोकांनी तांकता ते प्रमाण मदत केली. पयशांचे नदरेन, नैतिक आदाराच्या रुपान, नागेश करमली, पुंडलीक नायक हाणी नाटकांतल्यो चुको सुदारून, दिगंबर शिगबाळान चित्र काडून, आनी हेरांनी छापूंक आर्थिक पालव दिवन. तांचे कितें अुपकार मानू? ते तर म्हजेर मोग करपी म्हजेच लोक.

हांच्या सगळ्यांच्या आदराचेरुच हांव हें 'वर्गशत्रू' विरुद्धचें झुंज जिखलों.

आगशी
२५–२–८२

दिलीप बोरकार

# अंक पयलो

## ( देखाव पयलो )

(बंदखण. प्रेक्षकांक कैदयांक दवरपाची कूड दिश्टी पडटा. पयले कुडींत फांशीचो कैदी अमित आनी दुसरे कुडींत गुंडाप्पा. अमितचे कुडी सामकार अेक जनेल, जातूंतल्यान सूर्यकिरणां अमितचेर पडूक जाय. अमीत सळांक धरून अुबो थासा. पिराय पस्तीसेक. कमायिल्लो सुदृढ देह. सकाळचो वेळ. माचयेर जिळमिळटो अुजवाड. फक्त वण्टीर आशिल्ल्या कॅलेन्डराचेर स्पॉट. 'सोळा डिसेंबर, फाल्यां सतरा डिसेंबर, म्हजे फांशीचो दीस.' असो गंभीर आवाज घुमता. ताची गाज सोपता तेन्ना कॅलेन्डरावेलो स्पॉट कमी जायत वता. जनेलांतल्यान आयिल्लीं सूर्यकिरणां अमितच्या मुखामळार पडटात. विचारमग्न अमित, कॅलेन्डरा-वेली थीर नदर काडून सूर्याक पळयता. ताज्या तोंडार तेज विलसता. अमितचें ओंठ हालनात. पुण आवाज येत आसता गंभीर, काळीज भारावन सोडपी.)

अमित : सदां सारको आयजूय हो दीस नवें चैतन्य घेवन आयला. नवो प्रकाश धर्तरेर फांकला. अमित, ह्या सूर्याचें हें तेजस्वी मन भुलोवणे रूप, ताजो दर खिणाक बदलपी सुंदर तरणाटे चलयेच्या गालावेलो सफरचंदी रंग, आयजवेर स्वताक विसरून नियाळीत आयला. तुज्या पस्तीस वरसांतले कारकिर्दीतलो हो निमणो सूर्योदय. हाचो प्रत्येक बदल तुज्या दोळयांक चुकोवं नाका. पर्यून तुका हो केन्नाच दिश्टी पडपाक ना. हो किरमिजी

केसरी रंग, तुज्या देशाच्या स्वतंत्रतायेचो रंग, तिरंग्या बावटयाचो रंग ! दर देवळांत पेटपी लामणदिव्याच्या जोतीचो रंग ! आयज निमणो पळोवन घे.

(अुतरां कणकणी माचयेर अुजवाड जायत वता. अमितच्या तोंडांतलीं अुतरां सोंपल्या अुप्रांत अमित तसोच सूर्याक पळयत रावता.·थीर अेकाग्रतेन. निवेदन चालू जाता. जेन्ना सोंपता तेन्ना सकाळच्या आठांचो थोको पडटा. माचयेर पुराय अुजवाड. गुंडाप्पा आळस दीत अुठ्ठा. ताची नजर अमितचेर पडटा.)

गुंडाप्पा : ओबे राजेशखन्ना ! अुठलयस काय ?

अमित : ... ... ...

गुंडाप्पा ; च्यायला. काय इचार करतयस ! ओ मोरारजीभाय. ऽऽ

अमित : ... ... ...

गुंडाप्पा : ओ भगतसिंग ! (आडुता) भगतसिंग ऽ सा ऽ ऽ ब !

(स्टुलाचेर बसून झेंमेवपी हवालदार कांचवेवन आंग काडटा )

हवालदार : (रागान) बोछडेच्या, फांशी जाल्यार लेगीत मोस्ती जिरोना ? कावळे गू खावंचे पोयलीं बोब मात्ताय ?

गुंडाप्पा : ओ बे सखाराम. तूं खेका तकालस घेतय. वचून झोप बघया गुमान.

हवालदार : तुमी बोब माल्लचार तुगे पायक न्हीद पोडोत ?

गुंडाप्पा : च्यायला. आठ जालींत तरी न्हिदतय तां काय तुज्या बापायचां राज्य ! हांगा येदो व्हड मनीस फांशी जातंय आनी तुमी गोव्हर्मेंटचो पयसो न्हिदून खातत. थू तुमचे आवशीक.

हवालदार : आनी जाप काडशीत जाल्यार खोबोरदार. मालकियींद. फांशी जाल्यार लेगीत सुदरपानाय तुमी. आनी जाप काडशीत जाल्यार ताळचांत दांडो घालतां काय ना तो पोय.

गुंडाप्पा : दांडो आवशीच्या बोशांत घाल. हे बघ आरडतय. (मोठयान) भगतसिंग ऽ सा ऽ ऽ ब.

( हवालदार सळांतल्यान दांडो घालून मारपाचो यत्न करता. )

हवालदार : मार ... मार बोब. पोयतां केदो आहा तो तुजो तावो. मालकिर्याद.

अमित : ( मान वळोवन तांकां पळयता ) हे हवालदार, कसलो गोंदोळ चलयला ?

हवालदार : म्हाका इचात्ताय ? आफसुलाद. हो येदोवसान्न तुज्या नावान बोब मात्ता आनी आतां आयकोंक येयलें ?

अमित : म्हज्या नांवान बोब मारतालो ?

हवालदार : मागीर म्हुज्या ?

अमित : हवालदार, म्हजें नांव तुमच्या रजिस्ट्राचेर कितें म्हण घालां ?

हवालदार : अमित नायक म्हण.

अमित : तो खंयच्या नांवान उलो मारतालो ?

हवालदार : तेंच म्हुणटाय हांव. तूं आनी भगतसिंग ! खुंय तो स्वतंत्रताये खातीर झुंजोन फांसार चडपो भगतसिंग आनी खुंय हो किरमीदोर !

गुंडाप्पा : हे बेनचोद सखाराम. खुनी कोनाक म्हनतय ? अमित खुनी नाय. तोय बी स्वतंत्रताये खातीर झुंजलंय. तूं जेन्ना पुर्तूगेजांचे पांय चाटीत हुतो तेव्हां तो तेंच्या विरुद्ध झुंजत हुतो. हचां गोंय परक्यांकडसून मुक्त केल्यान तेणें. आनी आतां घरचेच दुस्मान आसत तेंकाय बीन तेणे मान्लेत. पुण हे बोछडेचे तेका फांशी देतत. हेका न्याय म्हनतत ?

हवालदार : तूं नितिचेर अुलोयताय ? तरपाशोर. तुंय अेक किरमीदोर. बायलेची किरम कोरपो. आरे काजार जावन बायलेलागी सांक्रामेंत जोडटाय तो कितें किर्म कोरूंक ? तुमकां फांसारूच न्हय, तुमकां पोर्तूगेजूच जावो आहलो, कुडके कुडके कोन्न मारूंक.

गुंडाप्पा : बघ अमितसाब. आरे सून. ये येडं काय म्हनतय तां. आजून

हे पुर्तूगेजांचें गुणगान गातत. आरे तुका फाशीच जावंचां हुतां तर ह्या पुर्तूगेज धार्जण्याकय मारून वचूंक व्हयां हुतां

अमित : मित्रा, पुर्तूगेज परके आशिल्लें तांकां धांवडांवक हावें सुटके झुंजांत अुडी घेतली. कांय वरसां बंदखण भोगली. आतां तरी ह्या मुक्त गोयांत लोक सुखान जियेतात आसतले म्हणून तांचे मदीं सुखान दोन दीस सारपाक दमणच्यान गोयांत आयलों. पुण जेन्ना आपलेच लोक आपल्याच मनशांक खातात तेन्ना आमी कोणाक मारपाचें ?

गुंडाप्पा : क्या बात कही यार. च्यायला. तुज्या सारके स्वातंत्र्य सैनिक फांशी जातत आनी ते वेळार स्मगलींग करपी बेवडे आयज ह्या गोंयचां राज्य चलयतत. हो काय न्याय जालो ?

अमित : दोस्ता, हें दुखणे आयचेंच न्हय. आयजवेर ह्या जगांत अशेंच घडत आयलां. आयत्या बिळांत नागोबा ! पुण सत्यमेव जयते हें लक्षांत दवरूंक जाय.

गुंडाप्पा : थू ! सत्यमेव जयते ! ह्यां खंयच्या मुर्खान म्हटलय देवाक खबर ! आरे सत्यान चलतल्यांक तुज्या सारखां फांशी जांवचां लागतंय बघ.

अमित : सत्यान चलपी जिवितात मार खाता जायत. पुण सत्यान मनशांत चारित्र्याचें तेज येता. जितल्यो अडचणी चड तितलें तें वाडटा. सत्यान धैर्य वाडटा. चारित्र्य दिशीं दिशीं अुन्नत जायत वता. आनी हाका लागून जें समाधान मेळटा, ताचें मोल खंयच्याय फायदचा परस म्हान आसता गुंडाप्पा.

गुंडाप्पा : हें आमकां कळनय नाय बुवा.

अमित : म्हणूनच तर आमी मार खाल्ला. हें जर तुमकां कळिल्लें तर म्हज्या सारख्याक आयज फांशी वचचें पडचें नाशिल्लें.

हवालदार : ( अटेन्शन पोज ) ए ओगी रावाय. सायब येता.

गुंडाप्पा : तुमच्या सायबाक कोण भिक घालतय ? सायब येवं नायतर सायबाचो बापूस येवं. आमी कोणाक भीक घालनय नाय. काय

अमित साब ?

अमित : सारकें. हांवें म्हज्या बापायक लेगीत भीक घालीना. मनशान शिवासारकें जगचें.

(जेलर कामत येता. हवालदार सेल्यूट मारता.)

जेलर : हवालदार, कितें म्हणटा आमचो शिव ?

अमित : हो शिव जायतें म्हणटा. पुण तुमच्यासारख्या कोल्यांनी तें आयकूंक जाय काय नाका ?

कामत : कोले आनी शिवाचें आयकनात ? राजाचें आनी कोण आयकनांत अशें केन्ना घडलां ?

अमित : जंय कोलेच सत्तेर आयिल्ले आसात थंय खरेलो राजा पळोवपा शिवाय कितें करतलो ? मि. कामत, काल हावें भगतसिगाचें चरित्र मागिल्लें. खंय आसा तें ?

जेलर : हवालदाराक सांगिल्लें. दिवंक ना ?

अमित : फाल्यां सकाळी स वरांचेर म्हाका फांशी दितले हें खबर आसूनय आपलें काम तुमी दुसऱ्यांचेर सोंपयलें ? आपली जबाबदारी दुसऱ्यांचेर घालपाची ही वृत्ती केन्ना सोंपतली तुमची ! कामत कालचो गेल्लो वेळ तुमी म्हाका पर्थुन दिवंक शकतात ?

जेलर : हवालदार.

हवालदार : यस सर.

जेलर : काल सांगिल्लें पुस्तक खंय ?

हवालदार : सायब हावें आख्खी बुकस्टॉलां सोदलीं.

जेलर : लायब्ररी पळयली ?

हवालदार : सॉरी सर.

जेलर : सॉरी ! (अमिताक पळयत) यू नो मि. अमित, अग्लेज भारतांत येवन शेक चलोवन गेले हांचें म्हाका वायट दिसलेंना. पुण येतना ताणी सॉरी हो शब्द हाडलो हाचीच म्हाका खंत

भोगता. म्हाका दिसता इंग्लंडची राणी 'सॉरी हो शब्द आयकून इंग्लंडचे राज्य लेगीत सॉरी म्हणटल्याक दितली. (हांसता. रोखडोच सिरियस जावन) आं! ज्योक आवडलोना? अमित, ज्योक्स ॲप्रिसिअेट करूंक जाय. शुल्लक गजालींतल्यान विनोद घडोवपाची विनोद सोदपाची नदर मनशाक आसूंक जाय. जीवन जगपाक मजा येता.

अमित : जाचें जीवन म्हळचार अेक विनोद थल्ला ताकाय विनोदाविशीं सांगप म्हळचारूय अेक विनोदूच मि. कामत.

जेलर : अशें सिरियस घेवपाचें कारण ना. हांव फक्त विनोद ...

अमित : मसणांत गेले तुमचे विनोद. डोन्ट डिस्टर्ब मी. मि. कामत प्लीज लिव मी अलोन. ( सुर्याकडे नदर. )

जेलर : अशें येवजप. काळजी करप तुमकां सोबना.

अमित : कोण काळजी करता? कोणाची? काळजी सगळचांकूच आसता कामत. तुमकां आसा. म्हाका आसा. पुण तिजीं गगनां करून बेश्टेच दुख्ख करिना हांव. जाच्या नशिबांत आसा तें कोणूच व्हरूंक शकनां. नशिबांत ना तें कोणूच मेळोवंक शकना. फाल्यांची काळजी फाल्यां. ते काळजेन जर हांव चिंतेस्त जाल्लों तर हांव तुमकां हांगा दिश्टी पडचो नाशिल्लों, कैदी म्हणून. म्हाका फकत अेकटो रावंक जाय. निदान आज तरी.

जेलर : हें अेकटेपण जिवाक वेण हाडटा. तुमकांच न्हय हांगा आयिल्या प्रत्येक कैदचाक आपलो आयुश्याचो उरिल्लो काळ म्हळचार अेक टेन्शन आसता. सोंपून सोंपना तो काळ.

अमित : आनी तो काळ विसरायेर घालूंक तुमी विनोद करतात. तुमी विनोदी म्हणून विनोद करिनात मि. कामत. तर त्या फांशीच्या कैदचाची फांशी विसरायेर घालूंक मुद्दाम विनोद करतात. पुण तो विनोद करतना तुमी हें विसरूंक शकनांत कि हो मनीस कांय वेळान फांशी वतलो.

जेलर : कशें पयस जातलें तें सत्य. जीवन दुर्मिळ आसता. तें मनशाक

अेंकदांच मेळटा. पर्यून केन्नाच न मेळपी ही गजाल जेन्ना हातची वता तेन्ना ते विशीं कोण येवजिना ? हांगा आयिल्लो प्रत्येक जाण येवजिता. फांशीच्या अुगडासानूच अर्धमेल्लो जाता.

अमित : पुण हांव जावंक ना. जें मरण दुर्मिळ आसता तें मेळटना कशें दिसता हाचो म्हाका अणभव घेवंचो आसा. मि. कामत हांव खुनी न्हय हांव रेव्हयुल्यूशनरी. हावें दोगां वर्गशत्रूंक जिवे माल्ले. स्वताच्याच जात भावांक. सत्तेच्या नेटार आपल्याच मनशांक खावपी मॅन अिटर्सांक. पुण हे लोकशायीन म्हाका खुनी थारायलो. हांव मरणाक भिल्लो तर हे अत्याचार पळोवन ओगीच बसतलों आशिल्लों. मि. कामत, यू आर फॉर्च्युनेट टुडे टू बी अेबल टू सी हॉव गोवन्स रेव्युल्यूशनरीज कॅन अॅम्ब्रस डेथ वीच प्लेजर फॉर द सेक ऑफ देअर सुप्रीम आयडीयल.

जेलर : हांव समजूंक शकतां. पुण जिव राखून कितेंय करचें. क्रांती करचे पयलीं मनशान स्वताचेर प्रेम करूंक जाय. क्रांतीं करूंक शरिराची गरज आसता. तेंच नश्ट करून, प्राण दिवन फायदो कितें ?

अमित : क्रांती तुमचे सारके टायट कॉलरवाले करिनांत, भांडवलदार करिनांत. करतात देसांतले शोषित पिडीत वर्ग. तांचेकडेन दिवंक संपत्ती नासता. टायट कॉलर नासता आसता फक्त प्राण. जाचीं किंमत दमडेपरस अुणी. मरसर कश्ट करून लेगीत तांकां पोटा पुरतो ग्रास मेळना. मागीर ताणीं सुण्यासारकें जगचें कित्याक ? तांचो ग्रास जे तोंडांतलो ओडून घेतात तांचे विरुद्ध ताणी क्रांती कित्याक करची न्हय ?

जेलर : आनी ते क्रांतीक तुमी सुरवात केली.

अमित : हय. नशिबान हांव पांढरपेशी वर्गांत जलमलों. पुण म्हजे भाव दारिद्र्यांत जगतात तें म्हज्यान पळोंव नजं जालें. तांचेर ती परिस्थिती हाडप्यां विरुद्ध हावें युद्ध केलें आनी ते खातीर फांसार वचूंक हांव निखालूस भिना.

जेलर : आयज हांव पयलेच फावट अेक फांशीचो कैदी मरणाक आशेल्लो पयळयतां.

अमित : पयलेच खेपे न्हय. हाचे पयलीं अेकदां घडिल्लें आसा.

जेलर : केन्ना ?

अमित : येसू ख्रिस्ताकडेन आपल्याक खुरसार चडयतात तें थांबोवपाची शक्त आशिल्ली. पुण ताणें ती वापल्लीना. हांसत हांसत तो खुरसार चडलो.

जेलर : यू बास्टर्ड, ख्रिस्ताकडेन आपली तुला करता ? ख्रिस्त खुनी नाशिल्लो.

अमित : आनी हांव खुनी ?

जेलर : ऑफकोर्स. कायदयान थारायलां.

अमित : चुलीत गेलो तुमचो कायदो. हांव खुनी न्हय. तुमी म्हाका खुनी थारायला. मि. कामत, सतरा वरसां पयलीं हावें ह्या गोंयच्या मुक्ति संग्रामात वांटो घेतिल्लो.

जेलर : तुमी ?

अमित : आतां सांगूक हरकत ना. तो वेळ गेलो. कामत, हांव अमित नायक न्हय. अमित देसाय. आमदार भाई देसायालो पूत.

जेलर : कितें ?

अमित : हय. मुक्तिसंग्रामात हावें धा–पंदरा पाखल्यांक धडाधड अुडयल्यात. तेन्ना तुमीच म्हाका माथ्यार घेवन नाचले. फांशीचो फांस हार जावन गळयांत पडलो.

जेलर : पडपाचोच ! तें युद्ध आशिल्लें परक्यांविरूद्ध. पुर्तूगेजानी आमची अितली पिळणूक केल्ली कि तांकां मरणा परस व्हड ख्यास्त नाशिल्ली.

अमित : ते परकी आशिल्ले म्हणूनच ? ह्या आयच्या मुक्त गोयांत आपलेच जेन्ना आपल्याच मनशाचें रक्त चोखतात तेन्ना तांचेर गुळी कित्याक घालची न्हय ? स्वकियांच्या शोषणा विरूद्ध

केल्लें हेंय अेक युद्धच. हांव तें जिखलों. मागीर म्हाका फांशी कित्याक?

जेलर: जनता कायदो हातांत घेवंक शकना. ही लोकशाय.

अमित: जनता कायदो हातांत घेवंक शकना. फक्त मुर्दाड जावन जाल्लो अन्याय सहन करूंक शकता. होच हे लोकशायेचो अर्थ?

जेलर: आमी हुकमाचे ताबेदार. तोंड आसून अुलोवंक शकनात. हात आसून करूंक शकनात.

अमित: कित्याक घडटा अशें? हे गोंयचे मातयेचो तांबडो भडक रंग तांच्या रक्तांतलो ना जालो?

जेलर: जनतेक हेर गजाली परस पोटाचो प्रस्न व्हड आसता अमित.

अमित: पोटाखातीर मनीस सुणो जाला आयज. दोळे आसून कुड्डो जाला. कित्याक, कित्याक घडटा हें सगळें? वेंतभर पोटा-खातीर? त्या परस जीव कित्याक दिनात? कसली गरज आसा तांची ह्या जगांत?

जेलर: जगपाची आस कोणाक सोडिना. बाय द वे, मि.अमित तुमकां जाय जाल्ल्या पुस्तकांची हांव तजवीज करतां.

अमित: ओ श्युअर! पुण फक्त आयच्या दिसाभितर. फाल्यां सकाळी म्हाका सव्यार चडपाचें आसा. (कामत वचूंक लागता. अमित आपले भितरुच) जगपाची आस कोणाक सोडिना. सुणो जावन जगपाची आस.

जेलर: म्हाका कितें म्हणिल्लें?

अमित: नो. म्हजे भितरूच अुलयिल्लों.

जेलर: ओह सॉरी! (वचूंक वता. हवालदार येवन सेल्यूट मारता) कितें खबर?

२ हवालदार: सायब अेक अॅपोइन्टमेंट आसा. कैदी नंबर अेकसो अठराक.

अमित: कोण मेळूंक आयला म्हाका? मि. कामत, म्हजो कोणूच रिलेटिव आयिल्लो म्हाका नाका.

२ रो हवा : कोण तरी चली आसा.

जेलर : वचून सांग कैदी कोणाक मेळूंक सोदीना.

२ रो हवा : सांगिल्लें सर. पुण कैदी आपल्याक मेळटलोच अशी तांकां खात्री आसा. बेबी नांव सांगलां ताणें.

जेलर : अमित, धाडून दिवंची ?

अमित : ( येवजून ) धाडात.

जेलर : तुमी निवांत अुलयात. हांव तुमच्या पुस्तकाची तजवीज करतां. हवालदार, कैद्याक जाय त्यो फॅसिलिटीज दिवंक जाय.

१ हवालदार : एस् सर !

( कामत आनी हवालदार वतात. बेबीक घेवन हवालदार येता. २७–२८ पिराय. अमिताक पळयत रावता. तो ताका स्मायल दिता. )

अमित : हॅलो बेबी, हें कितें अशें पळयत शें रावलां ? पयलेच फावट पळयता काय कितें ?

बेबी : पयलेच फावट न्हय. पुण आयज पयलेच फावट नवें रूप पळयतां.

अमित : नवें रूप ?

बेबी : हय. बुडपी सुर्याचें तेज. अस्तंत सुर्याचें तेज.

अमित : अस्तंत सूर्य पळोवप नासता. अितले व्हड वस्तूचें अस्तमप कितें पळयता तूं ?

बेबी : व्हड वस्तूच्या अुदया अितलेंच अस्तमपूय व्हड आसता अमित. व्हड मनशाचें अुठप जितलें मोलादिक तितलेंच पडपूय आसता. मन भुलोवणे. तुज्या मुखामळावयलें आयचें तेज, आयचें हांसप हांव पयलेच खेपे पळयतां. अमित, तुवें आपणाक मेळूंक बंदी घाल्या ?

अमित : तुजे खातीर न्हय बेबी. म्हजो बापूय जावं भाव येवंचो न्हय अितलीच म्हजी अित्सा. हया देशांतले गरीब जनतेचें जाणी शोशण केलां त्या ... त्या सभ्य मनशाचें दर्शन म्हाका निमाणे

वेळार नाका.

बेबी : निमण्या वेळार आपल्या घरच्यांक मेळचें अशें दिसना तुका ?

अमित : घरचे ! कोण घरचे ? फक्त रक्ताचें नातें आसलें म्हण मनीस आपलो जायना बेबी. माया, मनशाकडलीं नातीं जोडटात. तुजें दादाचें म्हजेकडें कितें रक्ताचें नातें आशिल्लें ! पुण तुमी म्हाका आपलो मानलो.

बेबी : मनीस आपलो तो आपलो. रक्ताचें नातें विसरून विसरूंक जायना.

अमित : दिपूकडेन म्हजें रक्ताचें नातें आशिल्लें. पुण त्या नात्याची वळख पटचे पयलींच आमचें मायेचें नातें बांदून गेल्लें.

बेबी : आसूं त्यो गजाली अमित. प्लीज विसरून वचूया ते उगडास.

अमित : अंतामेरेन मनशाच्या सांगाताक रावतात ते उगडासूच. सहज कशे विसरूं येत ते ? उगडास तुज्या मोगाचे. उगडास दिपूच्या मरणाचे. (अकस्मात उगडास जावन) बेबी, दादा कसो आसा?

बेबी : तुका रकाद दिला.

अमित : निमणे वेळार म्हाका मेळूंक येवंचें अशें दिसलेंना खंय ताका?

बेबी : दादाक अशें दिसचेना अशें दिसलें तुका अमित ?

अमित : येवंचें दिसून लेगीत दादा येवंचोना. म्हजो निरोप घेतना आपल्या मनाचेर ताबो दवरप जमचेंना ताका.

बेबी : मायेच्या मनशांक ह्या जगांतल्यान वतना निरोप दितना म्हाकठीन आसता.

अमित : म्हाकठीन आसता ! हांव जाणां. मनशाक दुख हें जातलेंच. तें जायना जाल्यार तो मनीस कसलो ? ताका फातर म्हणपाचें. पुण दुख कितलें करप हें आपल्याचेर आसता. तूं आयलेंना ?

बेबी : काळीज हें घट करचेंच पडटा. पुण सगल्यांक जमना तें. हांव करूंक शकता.

अमित : हय. हावें पळयलां तें. आपलो मोग जाणून बुजून करपयतना.

बेबी, हांगच्यान वचसर पातकड्यांच्या बांदाक खांवटें पडूंक दिवं नाका.

बेबी : दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलीं दुखां तुज्यान पळोवंक जायनांत हें विसरूंक ना हांव. तुजे उप्रांत हांव केन्नाच रडचेंना. आतां निरोप घेतना तर निखालूस ना. हे दोळे सुके सडसडीत आसतले.

अमित : रडूंक दोळ्यांत दुखांच हाडूंक जाय? तुज्या दुदाळ हांसपांतली दुखाची साय म्हज्या दोळ्यांक फटयतली? ह्या दोळ्यांचें नातें काळजाकडे आसता हें समजना म्हाका? बेबी, तुवें खुब्र सोसलें. मनीस सगळें सोसता. पुण आपलो पयलो वयलो मोग मारूंक शकना. तुवें तोय माल्लो. आनी आयज दोळ्यांन दूख हाडिनासतना म्हाका निरोप दिता. हाचें अितलें व्हड भाग्य खंयचें? आनंदान फांशी वचन हांव.

बेबी : ना अमित, तुका हें मरण आवडूंक ना. तुका अशें चोरांसारकें फांशी वचप निखालूस आवडचेंना. तुका झुंजामळार मरण येवंक जाय. पोलादी छातयेर गुळयो घेवन.

अमित : हय बेबी. मनशाक मरण अेकदांच मेळटा. तें दुर्मिळमरण म्हाका मनासारकें जाय आशिल्लें. पुण जिवितांत जाय तें कांयच मेळना. हावें जायतें मागलें. म्हाका ह्या देशांदेशांतली दुस्मानकाय सोंपिल्ली जाय आशिल्ली. सगळे जग अेक कुटुंब जावन, प्रत्येक व्यक्ती दुसऱ्यांच्या हिताखातीर आसता हें म्हाका पळोवंक जाय आशिल्लें. पुण ह्या दोळ्यांक तें पळोवंक मेळ्ळेंना. हावें तुका मागलें. पुण तूं म्हजें आसुनय म्हजें जावंक शकलेनां आनी आतां हें मरण लेगीत मना सारकें मेळना. अेक खुनी म्हणून फांसार वच्चो पडटा म्हाका. बेबी खरोंच हांव खुनी गो?

बेबी : कोण म्हणटा अमित खुनी? ह्या सगळ्या जगान जरी तशें म्हळें तरी हांव केन्नाच म्हणचेना. तुवें जगांतली कांय घाण पयस केली. आपल्याच समाजांतल्या लोकांचे, वर्गभावांचें रगत चोखपी ह्या मनीसखायऱ्यांक नश्ट करून तुवें आपलें बलिदान

केलें हें हाव अंतामेरेन विसरचेंनां. तुजो हो त्याग...

अमित : चुकता बेबी तूं. आगो त्याग म्हणूं नाका. त्याग कोणे कोणा-खातीर केला? हांव ज्या समाजांत रावतां त्या समाजांत बरें तरेन रावपाखातीर थंयची कांय घाण हावें पयस केली. स्वताची किंमत दिवन. ताजो फायदो जरी हांव घेवंक शकलोंना तरी म्हजें असंख्य भाव-भयणां घेतलीं.

बेबी : आयज तांतले कोण आयल्यात तुका मेळूंक ?

अमित : कोणूय तरी येतलोच. आयचो दीस आसा. आनी आयलेनांत जाल्यार हांव शिणचोना. अेका खेडयांतल्यांन हांगा अितले पयसो येवप तांकां कशें शक्य आसा? दिसवडयाचेर जगपी त्या लोकांनी हांगा येवंक दीस होगडायलो तर सानुल्या कच्या-बच्यांक सांजे रडलीं म्हण्टकच कितें दितलीं?

बेबी : एक दीस काम केलेंना जाल्यार घात जाय ना.

अमित : दिसावडयाचेर जगपी मनशाचो प्रत्येक दीस हो फायच्या दिसाची तयारी आसता. आयज ताणीं काम केलेंनां जाल्यार फाल्यां वोतांत तळमळत काम करूंक जावचेंना. फायचें जोडपा खातीर आयजूय जोडप तितलेंच आवश्यक आसा.

(हवालदार येता.)

हवा : कैदी नंबर ११८. तुमचीं वेळ सोंपली.

अमित : म्हजी? अितलेच बेगीन ?

बेबी : म्हजे भेटीचो वेळ सोंपलो म्हणपाचें आसा ताका.

अमित : मनशाक मेळूंक लेगीत बंधना आसतात. मनशानीच मनशां खातीर घाल्लीं बंधना.

बेबी : हांव वचू अमित ?

अमित : वचूंकच जाय! यू मस्ट गो.

(बेबी सवकास घुंवता. वचूक वता. अकस्मात घुंवता. धांवट वचून अमिताचो चेरो हातांत घेवन कपलाक चुमता.)

बेबी : अमित म्हजेर रागार न्हय मरे?

अमित : कित्याक?

बेबी : म्हजे सगळें दोश लिपोवन तुवें म्हजेकडेन लग्न जावपाची तयारी दाखयली. पुण हांवे ह्या समाजाक भिवन, चड करून म्हज्याच मनाक भिवन तुका पयस दवल्लो. हांव चुकलें रें. पुण समाजाच्या नदरेन हांव तुजीं आवय आशिल्लें. तुजी सावत्र आवय.

अमित : बेबी कित्यात मनाक लावन घेता? तुजी चूक न्हय ती. आमच्या समाजान निर्माण केल्ले रचणुकेची चूक आसा ती. तुजेर म्हजो राग केन्नाच नाशिल्लो.

बेबी : ह्यावें तुजेर अेकटयाचेरूच मोग केलो. पुण आमचें मीलन हे नियतीक पसंत नाशिल्लें. पुण हांव तुजेंच आसा. तुजेंच जावन रावतलें... तुजी पुजा करीत! तुजें कार्य मुखार व्हरूंक तुजें बलीदान म्हाका स्फूर्त दितलें. येता हांव.

(अेकाच नेटान भायर वता.)

अमित : गुडबाय बेबी, गुडबाय. ( गेल्ले वाटेकडेन पळयत रावता. सवकास घुंवता. गुन्डाप्पाचेर नदर पडटा. गुन्डाप्पाच्यां दोळ्यांत दुखां. अमित ताका मन भुलोवणे स्मित दिता )

गुन्डाप्पा : ( रडकुरो सुर ) हंसतय काय? खरं सांगू साब. ह्या गोंयचां तकदीरूच गांडू.

अमित : सारकें अुलयलो.

गुंडाप्पा : आरे सारकां काय? तुज्या सारको सिंव आयज फांशी जातय ह्यां मरण सोंपं हाय. पुण आपले मादीचो निरोप घेताना दोळ्यांतसून पाण्याचो टिपूस नाय काडप म्हणचे सामान्य गोष्ट हाय? आनी ही बाई! च्यायला काय काळीज हाय तिचं? आरे आमची घरवाली दादलो परगांवी जातय तर रडून आकांत करतय. आनी ही हांसत निरोप देतय तुका... फांशी जावंक.

अमित : जावंदी रे. आमचा तकदीरच गांडू थंय कोन काय करनार ? खराय मां ?

गुंडाप्पा : खराय बाबा. नायतर आमची घरवाली ? लगीन छान केलं नक्षत्रावणी पोर घरांत हाडली. पुण च्यायला म्या खून केल्यान तिचो. ती थडें नरकांत सुखांत आसतली. आनी म्या हडेन झुरत मरतय.

अमित : बायल घरांत हाडटात ती सुखान संवसार करूंक गुंडाप्पा.

गुंडाप्पा : पुण ती रांड म्हाका खंय सांगात करीत हुती ? म्या हमाली करूंक भायर पांय दवरतय आनी च्यायला, ही दुसऱ्या बाप्यांक भितर घेतय. मगे म्या काय करूंक व्हयां हुतां ? तिच्या सुखाखातीक म्यां मरमर मरतंय आनी ही रांड घरांत असले धंदे करते.

अमित : तातूंत तिजो दोश कितें ?

गुंडाप्पा : म्हाजो ?

अमित : हय. तुजोच. तुका तिज्यांतले बायलपण जागोवंक आयल्लेना आसूंक जाय. घरांत जें सुख मेळना तें भायर घेवंचेच पडटा.

गुंडाप्पा : सुख म्हणजे कांय सर्गापरी रावंक व्हयां काय ? दुखांत लेगीत सुख मानपी आसत ह्या जगांत. पुण हे बोछडीचेक बरेबरे कपडे घालून मिरोवची हौस. हांव सादो हमाल. तिका नवीनवी कापडां हाडूंक मंत्री थोडाच आसंय. दोन चारदां गप्प बसलंय. समजावन बघलंय आनी अेकदीस घेतलय चाकू आनी काडल्यान कोथळो भायर.

अमित : आरे ती वायट चालीची आसल्यार सोडून दिवपाचो. आपलें जीवन कित्याक पिडुचार केलें ? स्वताच्या जीवनाचेर प्रेमा करूंक जाय.

गुंडाप्पा : म्हाज्या जीवनापरस तिजेर म्हाजो प्रेम हुतो रे. त्या प्रेम पायीच मी खून केल्यान. रागान कुड्डो जावन. त्याचं प्रायश्चित

भोगतय म्यां आतां. दीस रात जळत.

अमित: गुन्डाप्पा ! ओ गुन्डाप्पा. तुवें मोग केलो मरे तिजेर ? काळजांतल्यान मोग केलो. आनी ताजें फळ तुका मेळ्ळेंना. हातूत तुजो दोश कितें ? तुजी रीत, तुजी नित साबाळ्ळी तुवें. पुण तुका आदार दिवप तिका जमलेना हातूत तिची चूक. ती तुजे लायकीची नाशिल्ली अशें मानून फुडें कितें घडटा तें पळयत रावपाचें.

गुन्डाप्पा : तुज्या सारको ? त्या पोरी सारको ?

अमित : हय.

गुंडाप्पा: नाय. हांव तुमचेयेदो व्हड नाय. हांव तुमच्यासारखो आसलों तर ह्या बायलेच्या प्रेमांत पडचां सोडून, म्हाजे भाव जे पिडयान पिडी हमाली करतत तेंच्याखातीर काय तरी करूंचा प्रयत्न केलो असतंय. पुण मियां म्हाजेखातीर जगलंय आनी म्हाज्याच खातीर मरतंय.

अमित : अशें दुख्ख करून फायदो ना. हातूंत तुजो दोश ना. तू स्वताचे पोट पळयतलो आशिल्लो काय हेरांकडेन लक्ष दितलो आशिल्लो ? देशप्रेम निर्माण जावंक संस्कार जाय पडटात.

गुंडाप्पा : संस्कार ! कोन करतलंय आमचेर संस्कार ? म्हाजो बापूय बी हमालच हुतो. आने तेणे जल्माक घालो तोय बीन अेक हमालूच. आवशीसंग मजा करतना तेका ह्यां म्हायत नवतां कि आपल्या चेडयाक शिकोवंक व्हयां.

अमित : ह्या देशांत हेंच चलता. तुगेर भुरगी जाल्लीं जाल्यार तू तांच्या पोटाचें पळयतलो आशिल्लो काय शिकयतलो आशिल्लो ? जें जोडटा तें पोटाक पावना तर भुरग्यांक कितें करून शिकोवप ?

गुन्डाप्पा : मगे आमी हमाल म्हुण जल्मांक येवन हमाल म्हुण मरायचांच नशिबांत लिवलंय काय ? ह्यो सरकार निवडून हाडूंक आमी मत दिनय नांय काय ? मागीर खेकां आमकां सरकार

शिकयनय नाय ?

अमित : तुमी सगळ्यांनीं शिकल्यार सरकाराचें कशें जातलें ?

गुन्डाप्पा : आमी शिकसण घेतल्यार बुडटलंय काय ?

अमित : ना. सरकार बुडटलो. तुमी शिकल्यार तुमकां राजकारण कितें तें कळटलें. आनी अेकदां तें कळ्ळें कि, आयचें एकाच पक्षाचें, एकाच घराण्याचें मक्तेदारी जावन रावपी सरकार ना जातलें. हांगा तुमच्या बरेपणाचो प्रस्न ना गुन्डाप्पा. सत्तेचो आसा. प्रत्येक मंत्री निवडून येता तो सत्ता भोगपाचीं सपना घेवन. दिसाच्या चकचकीत उचवाडाचीं सपनां. आनी तांका निवडून हाडटल्यां खातीर अुल्ला फक्त काळोख सपनांत लेगीत काळोख. चिप्प काळोख.

(काळोख)

## ( देखाव दुसरो )

माचयेर काळोख. फक्त अमितचे कुडींन अुजवाड. तो पुस्तक वाचपांत गुल्ल आसा. जेलर कामत येता. सळांक धरून पळयता. अमितचें लक्ष ना. गूंडाप्पा न्हिदला. अमित कांय वेळान पुस्तक वाचून सोंपयता. मुखावेल्या पानार अेक नदर मारता. पुस्तक दवरता. अुदक पिता. अेक जांभय दिवन सिगार पेटयता. ताची नदर जेलराचेर पडटा.

जेलर : हॅलो अमित ! हाव डू यू डू !

अमित : हाव डू यू डू ! कितें कामत, न्हीद आयली ना ?

जेलर : ना. न्हिदपाचो यत्न केलो. पुण जमना. न्हिदूच अुडून गेल्या.

अमित : अजापूच म्हणपाचें. म्हाका दिशिल्लें तुमी शांत न्हिदल्यात म्हुण. आनी हांवूय न्हिदूक वतालों. यू नो कामत, ह्या सुर्योदयान म्हाका जितलें पिशें लायलां पळे तें कोणेंच लांवक ना. फाल्यां सकाळीं अुठून सुर्योदय पळयना जाल्यार फायचो दीस बरो वच्चोना म्हजो.

जेलर : पुण फांल्यां ...

अमित : ओह ! हांव विसल्लोंच पळे. फाल्यां म्हज्या नांवार दीस ना तर ! आमचो निमणो दीस न्हय ? कसो पळय भुर्रर्र करून गेलो. शेवण्याचीं पाखां लावन. चलात न्हिदात तुमी.

जेलर : कित्याक ?

अमित : फाल्यां म्हाका फांशी दिवंक !

जेलर : म्हाका न्हिद आयल्यार हांव हांगा येवपाचों ?

अमित : फांशी म्हाका आनी न्हीद तुमकां येना ? आनी थोडचा वेळान आयिल्ले जाल्यार हांव घोरेतां तो तुमकां दिश्टी पडटलों आशिल्लों.

जेलर : यू आर रिअली ग्रेट मॅन.

अमित : गोंयच्या सत्ताधारीं परस ?

जेलर : ओह ! आय लायक्ड युवर जोक. मनशांत विनोदबुद्धीय आसूंक जाय. तुमकां भायर येवप आवडटलें ?

अमित : ऑफकोर्स ! कैदेंतल्यान भायर सरप कोणाक आवडना? शेवणें लेगीत पांजऱ्याचें दार अुक्तें मेळता काय पळयता. भुर्रर्र करून आसमंतात अुडूंक. आनी हांव तर अेक मनीस. तुमी चडांत चड ही रात म्हाका ह्या पांजऱ्यांत दवरूंक शकतले. फाल्यां सकाळीं बरोबर सात वरांचेर हांव ह्या विशाळ मळब बांत पाखां फुलोवन विहार करतलों.

जेलर: तू सदांच पोयेटीक अुलयता. कम आवट माय ब्रेव यंग फ्रेन्ड. हवालदार !

हवा : एस् सर ! ( दार उगडटा. अमित भायर येता. )

जेलर : मि. अमित, ह्या वेळार फांशीच्या कैदयाक भायर काडपाचो हुकूम ना.

अमित : मागीर भायर काडपाचें प्रयोजन कितें ? तुमी सत्तेचे गुलाम कित्याक मोडटात कायदो ?

जेलर : कित्याक तर हांवूय एक मनीस. आनी मनीस ह्या नात्यान एका मित्राकडेन गजाली कित्याक मारच्यो न्हय ? उपकार करून पळून वचूं नाकात.

अमित : आनी गेल्यार ? एका फाशीच्या कैदयाचेर विश्वास दवरूंक शकतात तुमी ?

जेलर : पुण म्हजेकडेन आशिल्ल्या रिव्हॉल्वराचेर म्हजो विश्वास आसा. आनी भायर आर्मड पोलिस आसात.

अमित : भिवू नाकात. म्हज्या मनांत पळून वचपाचें आशिल्लें जाल्यार केन्नाच वतलों आशिल्लो. हे लोखंडा सळ, ही बंदखण म्हाका आडावंक शकनात. आनी कामत, जो मनीस सतरा-अठराव्या वरसां पुर्तुगेजानी घाल्ल्या गुळयांच्या पावसांतल्यान वाचूंक शकता तो मनीस ह्या आर्म धरूंक न येवपी पोलिसांक निखालूस भीख घालपाक ना. आनी जाय जाल्यार म्हजी फांशी रद्द करूं येता.

जेलर : हय हांव जाणां. आमदार देसायांचो तितलो वशिलो आसतलोच.

अमित : आसा. शिवाय मुक्तिसंग्रामांतल्या पराक्रमाचे भांडवल निश्चित पावतलें. पुण म्हजें नातें म्हज्या बापायकडेन म्हाका दाखोवपाचें ना. म्हाका ह्या गोंयच्या खेडयातलो एक प्रतिनिधी म्हणून मरपाचें आसा.

जेलर : बापायकडे कसली दुस्मानकाय ?

अमित : म्हजी दुस्मानकाय कोणाचकडे ना. आसा ती तांच्यांतल्या जनावरापरस पाशट वागणुकीकडेन. तो जरी म्हजो बापूय आसलों तरी तांच्यातलो दोश हांव लिपोवंक शकना. तो म्हजो बापूय हें एक दुर्दैवी सत्य आसा.

जेलर : बापायचें काळीज कितलेंय जाल्यार मायेचें आसता. हांवूय कोणाचो तरी बापूय आसां. बापुय आपल्या पुताच्या मरणाची खबर केन्नाच आयकूंक शकचोंना.

अमित : चुकतात तुमी कामत. सत्तेच्या मुखार माया-मोग-नातीं नाच जांवन वतात. सत्तेच्या आशे मुखार बापूय पुताक वळखना. भंयण भावाक वळखना. वेळ आयल्यार खून करूंक लेगीत फाटीं फुडें पळयनात. सत्ते खातीर म्हजो बापूय जनतेचें कशें रक्त चोखतालो तें हांवे पळयलें, तांचे विरुद्ध आवाज काडलो. पुण आपल्याच रक्ताच्या मनशांविरुद्ध आवाज काडप जमलेना. घराण्याची प्रतिश्ठा आड आयली. आनी ते खातीर हांव मुर्दाड जावन, जीवनात पयलेच फावट हार खावन हांगा आयलों.

जेलर : ह्या तरुण वयांत तुमी योग्य पावल उखल्लेंना. आरे जग बदलता तशें आपणेंय बदलूंक जाय. वारें व्हांवता तशें सूप धरूंक जाय. तत्व निष्ठा आतां उरूंक नात. हें कृतघ्न पण फक्त सत्तेखातीर. आयज अेक नेतो दाखोवशात म्हाका, जो ह्या देशांतल्या गरीब जनतेच्या मुक्ततायेखातीर त्याग करता.

अमित : आसात. हे गोंयचे मातयेंत जल्मल्ल्या लोकांच्या शिरंत्रांनी अजून हे तांबडे मातयेचो रंग रक्तांत विरघळून व्हांवत आसा पुण तांचेकडे सत्ता ना. तांच्या वाट्याक आसा फक्त रस्त्यार भोंवप. हुशारकाय आनी देशप्रेमाचे वजें माथ्यार घेवन.

जेलर : पुण अितिहास तांकां विसरचोंनां.

अमित : कसलो अितिहास ? हे गोंयचो अितिहास खंय आसा ? कोणे बरयला ? तो अितिहास बरोवंक ह्या सत्ताधारींनी तों घडोवंक ना. जाणी घडयला तांचो अितिहास कोणाक बरोवंचो

असो दिसना. कित्याक जाणा कामत. त्या अितिहासांत ह्या सत्ताधाऱ्यांक खंयच स्थान अुरचेना.

जेलर : पुण ...

अमित: कामत ह्या गोंयांक अितिहास आसा. साडेचारशीं वर्सां परकयांच्या शेकातळा अुल्लें गोंय. पुण अितिहासांत अुरपा सारखी अेक गजाल घडली ना. पुण अेक काळ असो रसरसून होमखण जावन पेटलो आनी तांतूल्यान भांगराचो अितिहास घडलो.

जेलर : खयचो ?

अमित : १९१० ते १९६१ चो. गोंय मुक्त करूंक ह्या काळांत हजारो गोंयकारानी आपल्या जिविताची होळी पेटयली. हो पवित्रतायेचो अितिहास खंय आसा ? कोणे बरयला ?

जेलर : कोण बरयतलो ?

अमित : तो कोणे आमी बरोवपाचो ? म्हजे सारख्या कित्येक भुरग्यांनी मुक्तीसंग्रमांत वांटो घेतलो. जेन्ना शिकपाचें, खेळपाचें, मौज-मजा करपाची तेन्ना पुर्तुगेजांचो छळ चुकयत रानांवनांतल्यान धांवत रावले. घरच्या मायेमोगाचो त्याग केलो. आयज हाचें भांडवल आमकां करपाचें ना. पुण जाणी ह्या गोंयचो अितिहास घडयला तो आसूंक जाय. पुण आयज हांगा कितें दिसता? जाणी ह्या गोंयाखातीर कांयच केलेंना ते सत्ता भोगतात. फाल्यां ते मरतले आनी उपरांत तांचे पुतळे उबारतले. अगडबंब. आनी त्या पुतळ्यांच्या, त्या स्मारकांच्या भव्यताये मुखार गोंयचो अितिहास खंयचेच पिळगेक दिसचोना. कामत, खंयचेच पिळगेक दिसचोना.

जेलर : ( अधिकारान ) अमित देसाय !

अमित : ( कठोर ) अमित नायक. ओनली अमित नायक.

जेलर : नांव बदल्लें म्हणून नातीं बदलनांत. तुज्या घरा हांव कॉल करतां.

अमित : कित्याक ?

जेलर : घरच्यांक तुजें निमणें दर्शन घेवंदी. तुजें खरें नांव लोकांक कळूंदी. फांशी रद्द जातली. अेक सुटके झुंजारी फांशी वचप कोणाकूच आवडचेंना.

अमित : फांशीचो हुकूम ऑलरेडी तुमच्या हातांत पावला. आतां तो बदलप तुमच्या त्या देवळानी बंद केल्या देवाच्यालेगीत हातांत ना. जाणां कामत, हांवे हांगा येवन म्हजी खरी वळख कोणाकूच दाखयली ना. दाखयल्ली तर ताजी व्हड चवकसी जावपाची. म्हजो बापूय आपली प्रतिश्ठा सांबाळूंक म्हाका वाचवपाचो प्रयत्न करपाचो पुण खरें सांगू, हांव वाचिल्लो ताका नाका.

जेलर : अेका बापायक तशें केन्नाच दिसचेंना.

अमित : बापूय न्हय. अेक सत्ताधारी. ताच्या कृश्णकृत्याक हांव जी आडखळ हाडटालों ती म्हज्या वांगडाच ना जावन वता तीच बरी. ते खातीर म्हजे नांव हांवें लिपयलें. तुमकांय फट नांव कळयलें. आनी आयजूच हावे तुमकां म्हजें खरें रूप दाखयलां. पुण तुमी आतां कायच करूंक शकनात. तुमी फुडलें पावल घेसर सकाळ जातली. आनी सात वरांचेर म्हाका कायद्याप्रमाण फांशी दिवंकच जाय. आनी तुमी म्हाका फांसार चढयतले ते आमदार भाई देसायालो पूत अमित देसाय म्हुण न्हय तर ह्या दीन दुबळ्या गरीब जनतेचो अेक प्रतिनिधी म्हणून. वर्गशत्रूं विरुद्ध युद्ध जिखून खुनी म्हणून फांशी चडपी अमित नायक.

जेलर : ओह, आय ॲम सॉरी ब्रेव्ह मॅन. आय कान्ट हेल्प यू. हाव सदांच तुमचेकडेन खुनी हे नदरेन पळयलें.

अमित : ( हांसत ) जावं. हांव मरचेपयलीं वळख पटली.

जेलर : आयज निमणे वेळार बुद्ध आयली आनी तुमचेकडेन अुलयलों. तुमचें खरें रूप कळळे. तुमकां खुनी म्हणून जरी फांशी जाल्या तरी म्हाका केन्नाच दिसचेंना कि तुमी खुनी म्हुण. निमणे

वेळार हांव तुमचेखातीर कांयच करूंक शकना. करूंक मेळिल्लें तर म्हजे अितलो भाग्यवान कोणूच नासपाचो!

अमित :( हांसत ) म्हाकाय वायट दिसता कि तुमी म्हजेखातीर कांयच करूंक शकनांत.

जेलर : तुमची निमणी अिच्छा बी कितेंय आसल्यार सांग. हांव पूर्ण करतां. आसा कितें निमणी अिच्छा?

अमित : हय.

जेलर : सांग. हांव वचन दितां. हांव तीं पूर्ण करतां.

अमित : पुण ती पुर्ण करप तुमच्या हातांत ना.

जेलर : कसली अिच्छा तुमची निमणी ?

अमित : कामत, म्हजी निमणी अेकूच अिच्छा आसा. म्हाका हे पुण्यभुयेंत ह्या गोयांत पर्थून पर्थून जल्म मेळचो. आनी माय भुयेचीं सेवा करतां करतां पर्थून पर्थून मरण येवंचें. हें जिवन मरणांचें चक्र असेंच घुवत अुरचें. ( हें वेळार अमितचेर स्पॉट. अुप्रांत भक्क करून अुजवाड. )

जेलर : यू बास्टर्ड. व्हडलीं सपनां रंगयता. व्हडले व्हडले थिसिस अुलयता. आनी पळून येवन हांगा नांव बदलून जीव दिता. थंय गांवांत आवय दोळयांची निरंजना पेटोवन वाट तेळटा आसतलो.

अमित : म्हजी वाट पळोवपी गावांत कोणूच ना. आवय केन्नाच गेली म्हजी वाट पळोवपी ह्या गोयांतूच आसात. हांव ज्या खेडयांत येवन राविल्लों थंयचो दुबळो समाज आनी जाणे म्हजेर प्रेम केलें तें बेबी. पुण म्हजे वचपान तें दुबळें जावंचेना. नवी स्फूर्ती घेवन हांगच्या दुबळया घटकाक वाट दाखयतलें. कामत, म्हजो डेड बॉडी फक्त ताज्याच ताब्यांत दिवंची. नातर बेवारसी म्हुण विल्हेवाट लावची.

जेलर : बेबी व्हरूंक येतलें ?

अमित : हय. कामत, अेके प्रेयसीचें उदारण जाय जाल्यार बेबीचें

घेयात. ताणे म्हजेर फिल्मी मोग केलोना. आपली जबाबदारी सांबाळून प्रेम केलें.

जेलर : आय नो. दुखांक पातकड्यांचो बांध घालपी अेक प्रेयसी. कित्याक जाय आशिल्ले तुका हें झंझाट ? ते चलयेकडेन लग्न जांवन करची आशिल्ली मागीर देससेवा. तुमी स्वताक सुपरमॅन समजतात आनी आपलेय वांगडा दुसऱ्यांचेय जीवन होगडायतात.

अमित : हांगा दोगांच्या जींवनाचो प्रस्न नाशिल्लो. हांव एम्. एस्सी फस्ट क्लास फस्ट आसां. खंयीय नोकरी केल्यार हजारांनी जोडून बेबीक सुखी दवरतलों आशिल्लों. पुण प्रस्न आशिल्लो दीन दुबळे जनतेचो. हांवुय तेच जनतेचो घटक. पुण नशिबान अेका टायट कॉलर मनशागेर जल्मलों. लिगली जल्मलों.

जेलर : लिगली ? व्हॉट यू मीन बाय लिगली ?

अमित : हांवें अेका आमदारागेर जल्म घेतलो. कायद्यान तांच्या खात्यार जमा जालो. पुण त्याच आमदाराचो रगताचो म्हजोच भाव कायद्यान रजिस्टर न जाल्ल्यान, रक्तांचें नातें आसुनय हांगचो दुबळो घटक जावन मेलो.

जेलर : तुमचो भाव आनी हांगा ?

अमित : हय. म्हजे प्रेयसीचो, बेबीचो चलो.

जेलर : व्हॉट ?

अमित : एस मिस्टर कामत. म्हजो बापूय आठ वरसां पयली अिलेक्शनावेळार हांगा आयिल्लो. ताजे नदरेक बेबी पडलें. आनी त्या जनावरान तें घरांत अेकटे पळोवन उदक मागपाचें निमित्त करून ताजी अब्रू लुटली. अिलेक्शनाच्या बोवाळांत ताज्यो किळच्यो कोणेंच आयकल्योना. बेबी बरबाद जालें. उल्लें फक्त त्या दुश्कृत्याचे प्रतीक. दिपूच्या रूपान. पुण तेंय गेले कांय तेपान

जेलर : जगांत अशें घडटा ? आय कान्ट बिलिव.

अमित : बंदखणीच्या चार वण्टींत रावन देशांतल्या खेड्यांतलें जिवीत पळोवंक मेळना. हांव जीवन जगलां तें. तांचें तें जीवन

कोण बदलतलो ? अिलेक्शनावेळार आश्वासना दिवप. जाल्यार जालींच अेक नोट अुडोवप तांच्या तोंडार अ.नी निवडून आयल्या अुप्रांत ... कामत, हें अशेंच चलपाचें आसा. सत्ताधीश सत्ता भोगीत रावतले. आनी जांच्या नाडयार सत्ता भोगतात ती जनता चिडुत रावतली पिळग्यान पिळगी.

जेलर : अमित, हें तुवें बदलूंक जाय आशिल्लें. त्या आमदाराक मारून पळून वचपाचें. असो अॅरेस्ट जावन फांशी कित्याक गेलो ?

अमित : फांशी गेल्याशिवाय गत्यंतर नाशिल्लें. मनशाक मरण ते ते वेळार येवंक जाय. म्हाका दिसलें म्हजें कार्य अितलेंच आशिल्लें. हांव पोलिसांक मेळ्ळों. गुन्हो कबूल केलो. हांव आयजवेर म्हाका दिसता तशेंच वागत आयलां. घर सोडचें दिसलें, सोडलें. खून करचो दिसलो, केलो. पोलिसांक मेळचें दिसलें, मेळ्ळों. हांव जें करतां ताचो परिणाम भोगूंक सदांच तयार आसतां. पुण हांवें अेकूच गजाल करचीशी दिसून लेगीत ताळपाचो यत्न केलो. आनी सादलो म्हाका तो.

जेलर : खंयचो ?

अमित : दमणाक वचपाचो. मरचे पयलीं म्हजे मित्र, म्हजें घर. थंयची झाडां, थंयचे फातर हांकां मेळपाचो. पुण हांवे ताळ्ळो तो मोह.

जेलर : तुमकां आजून घरचो अुगडास येता?

अमित : अेका वरसान कोण आपलें घर विसरता. हांव कालूच घरातल्यान भायर सरून आयलां अशें म्हाका दिसता. प्रत्येक गजाल म्हज्या दोळयांमुखार ताजी जावन रावता. आजून लेगीत म्हजो बापूय, म्हजो भाव सगळें दिसता. घरचें वातावरण ताज्जें जावन मुखार अुबें रावता. म्हजें घर, म्हजो बापूय म्हजो भाव, स्टुडंट लिडर दलवाडी ...

(काळोख जायत वता.)

अंक १ लो सोंपता.

# अंक दुसरो

## ( देखाव पयलो )

पड्डो उगडटा तेन्ना दिश्टी पडटा दामांवांतल्या अेका आमदाराचो सिटींगरूम. काळजांत अेक आनी तोंडांर अेक अशी वृत्ती घेवन जनतेचें कल्याण करपा खातीर वावुरपी मनीस. पुण आपली संपत्ती कशी वाडोवप, लोकांक कशें चोखप हाजोच सतत विचार करपी. माचयेर अमित पुस्तक वाचीत बसला. कांय वेळान फुडल्या दारान जस्मिन प्रवेश करता. आमदाराचेच गुण घेवन जल्माक आयिल्लो ताजो पुत. कॉलेजांत शिकता. जीवनाची मजा लुटता. पिला म्हणपाचें कळून येता. ताजी नदर अमितचेर पडटा. मात्सो कांचवेता. तसोच सवकास भितर वचूक लागता.

अमित : ( ताका तेळीत ) जस्मिन!

जस्मिन : हॅलो माय डियर ब्रदर! केम छे!

अमित : (वास येता.) जस्मिन पिवन आयला तू? (उठून भितर वता)

जस्मिन : ( तिरस्कारान हांसत. ) हांवें अिल्लें मारतकच हो म्हजो भाव म्हऱ्यांतूच रावना. हाका वास लेगीत सोसना. अरे यार तूने पीही नही. हांव पितकच कितें भावाक विसरता? घरदार विसरता? मनीस कितलोय पिल्यार लेगीत घर विसरना. कशें काय? हों प्रश्न म्हाका केन्नाच सुटलोना. पिवन लेगीत. आयज म्हाका म्हज्या मित्रांनी पार्टी दिली. हाका आयज स्टुडंट युनी-

यन ऑफ दमणचो प्रेसिडंट केला. म्हाका करीना जाल्यार आनीक कोणाक करतले ? आं! तुमी म्हाका वळखनात? (हांसता.) हांव जस्मिन. जस्मिन देसाय. आमदारालो चलो. पिशें भुरगें. आमदारालो चलो म्हुण म्हाका प्रेसिडंट केला. पण खरें सांगू? युनियन म्हळयार कितें तेंच म्हाका खबर ना. तरीय म्हाका प्रेसिडंट केला. आनी ते खातीर पार्टी. (सिगरेट पेटयता.) च्यायला, दिसरात लोक म्हाका पाटर्यो दितात. अुबगण आयली ह्या पाटर्यांची. जल्म घेवचो तर आमदारागेर ना तर मंत्र्यागेर. आमदारागेर जन्म घेतल्यार अितली मजा तर मंत्र्या-गेर घेतल्यार कितली? कितली काय?

(येवजिता. सेक्रेटरी येता. देसायाचो सेक्रेटरी. लाचार मनीस. वागपांत लाचारी दिसतां.पान खावपाची सवय.)

जस्मिन : कितली रे?

सेक्रे : कितें कितली?

जस्मिन : मजा.

सेक्रे : कसली?

जस्मिन : मडयाची.

सेक्रे : कोणाच्या ?

जस्मिन : तुज्या. (सेक्रेटरी लाचार हांसता. ) सेक्रेटरी ह्या, तुज्या बोडांत कितें आसा म्हुण तूं म्हज्या बापायचो सेक्रेटरी जाला?

सेक्रे : तूं आयजूय पिवून आयला ?

जस्मिन : तशें म्हज्याय बापायच्या बोडांत कांय ना गा. तूं जसो ताजे-कडे चमचेगीरी करून ताजो सेक्रेटरी जाला तसो तोय लोकांकडे बंडलां फोडून आमदार जाला. लोक फातराक लेगीत मतां दिल्यार तो फातर निवडून येतलो. हय कांय ना?

सेक्रे : जस्मिन, तूं आयज पिवून आयला.

जस्मिन : तेंच तेंच वाक्य परतून परतून कित्याक म्हणटात गा ? हांव

तसो सदाच पिवून येतां. जेन्नां पिवून येना तेन्नां म्हाका विचारपाचें पिवून येवंक ना काय म्हुण.

सेक्रे : तूं तुज्या बापायचें नांव होगडायतलो.

जस्मिन: खंय आसा तें ?

सेक्रे : तुका हजारदां सागलें. पिवपाचो आसल्यार घरा येवन पी. कोण आडावंचोना. असल्यांनी नाकाक काळें लागतलें.

जस्मिन: आमी सगळे काळे. नाकांय काळीच. मागीर नाकाक काळें लागतलेंच कशें? आनी सेक्रेटरी आमचें नाक सांबाळूंक हें करचेंच पडटा.

सेक्रे : सोरो पिवप !

जस्मिन: ऑफकोर्स ! यू सी सेक्रेटरी. यो असो बसून अुलोवंया.

सेक्रे : म्हाका बसपाचें ना. आतां देसायबाब येतलो. तुका असो पळेत जाल्यार म्हाका फायरींग दितलो.

जस्मिन: बस गा. पळय हांव अेक आमदारालो चलो. हय काय ना ?

सेक्रे : बरें बेगीन कळ्ळें.

जस्मिन: अेका आमदाराल्या-चल्याक कोणेय पार्टी दिली तर ती नाकारूं येता ? हांव पियेना जाल्यार ते कितें म्हणटले? मात पुण अेटीकेटस ना म्हणटलें काय ना? हें सोबतलें तुमकां? म्हणूनच हांव घेतां.

सेक्रे : पुण तें तुमी ताळूंक जाय. आमदार देसायागेर सोरो पियेनांत.

जस्मिन: भितर फ्रिजांत बाटल्यो पळोवन कळटा तें.

सेक्रे : तुमी दोगूय भाव आपल्या बापायचेर अुठल्यात. तो अमित आनी अुतरां कणकणी लोकांमुखार देसाय बाबांचो अपमान करता. जनतेचें कल्याण करता खंय तो. ह्या लोकांचें कल्याण करपाचें ? हे दुबळे लोक राज्य करतले?

जस्मिन: ताजें म्हाका सांगूं नाकात. सेक्रेटरी हांव तुमची फकाणां करतालो.

सेक्रे: सोरी घेवन ! जस्मिन तुका समजावपाचो म्हाका खरें म्हळ्यार कसलोच हक्क ना. हांव फक्त देसायबाबांचो सेक्रेटरी. तरी पुण तांचें कल्याण जातलें हाजेर म्हाका लक्ष दिवचेंच पडटा.

जस्मिन : आनी हांवूय म्हज्या बापायच्या कल्याणा खातीर झटत आसां, आयजूच हांवें अेक नवी कल्याणकारी योजना आखल्या.

सेक्रे: कसली ?

जस्मिन : म्हाका आयज स्टुडंट युनियनचो प्रेसिडंट केला.

सेक्रे: केला कांय जाला ?

जस्मिन : आमदाराच्या जांव मंत्र्याच्या चल्याक पोस्टाफाटल्यान धांवचें पडना सेक्रेटरी. पोस्ट ताज्या फाटल्यान धांवता.

सेक्रे : प्रेसिडंटशीप तुज्या फाटल्यान धांवत आयली तर ? आतां सगळ्या स्टुडंटांक घेवन बापायच्या विरुद्ध स्लोगन्स दी. मोर्चा काड.

जस्मिन : काडचेच पडटले. आमच्यो मागण्यो मेळोवंक मोर्चा काडटले. स्लोगन्स दितले. अितल्यान जायना तर व्हायलन्स करतले आमची पयली मागणी आसतली हॉस्टेल जाय म्हूण.

सेक्रे : हॉस्टेल ?

जस्मिन : हय. भुरगे किनले पयससावन येतात. तांकां रावंक जागो ना. फाटलीं दोनचार वरसां तांची मागणी तशीच पडून आसा.

सेक्रे : सरकाराकडेन पयसो ना.

जस्मिन : पुतळें अुबारूंक पयसो आसा. नाका जाल्ल्या मनशांचे पुतळे अुबारपा परस त्याच खर्चान हॉस्टेल कित्याक बांदीनांत ? जाय जाल्यार ताका तांची नांवां दिवंची.

सेक्रे : तो सरकारचो प्रस्न आसा. आमी कांयच करूंक शकनांत.

जस्मिन : सगळें सरकार करूंक शकता. पुण सरकार आमकां फटयता. तांकां राज्यात साक्षरता हाडपाची ना. लोकांक अशेच अशिक्षीत दवरून तांची पिळणूक करपाची आसा.

सेक्रे : आमी सरकार पक्षीय लोक ! सरकाराविरुद्ध वचून आमकां

जमपाचें ना. तशें केल्लें तर तुका आयज असलो मान मेळचो नाशिल्लो. पुण तुमकां भिकेचे दुवाळे लागल्यात. सरकार विरोधी कामां करून लिडर जावंक सोदतात. बाकीचे भुरगे नात? तांकां करूं कितें करतात तें. तुका कित्याक पडूंक जाय भितर?

जस्मिन: हीच तर खरी चाल आसा. हांव विद्यार्थी म्हणटकच थंय आसूंक जाय काय ना? नातर तांचें वायटपण घेवंचे पडटलें. थंय रावलों तर ते कितें योजना आखतात त्यो म्हाका कळटल्यो. अप्रांत सरकाराक कळोवंक बऱ्याक पडटलें. सरकार सावध रावतलो. सगळ्या भुरग्यांक सरकाराविरुद्ध चळवळ करूंक लावप आनी फाटीं सरप. सरकार लाठीचार्ज करतलो. टीअरगॅस सोडटलो. मरूं दी मागीर. लीडर जावंक सोदतात. चळवळी करतात. मूर्ख खंयचेकडले.

(सेक्रेटरी खुश जावन तकली हालयता. काळोख)



(काळोख)

(देखाव दुसरो)

आमदार देसाय आनी सेक्रेटरी बसून ब्रेकफास्ट घेतात. देसाय पेपर वाचता.

देसाय: (पेपराचेर नदर मारीत स्लायस तोंडांत घालता. केंद्रसरकारान दमण गुजरातेत घालचें असो थाराव मांडला आनी गांय सरकारूय ताका तेंको दिता.

सेक्रे: दिवंकच जाय. दमण गुजरातेंत वचूंकच जाय.

देसाय : कितें ? दमण गुजरातेंत वचूंक जाय ?

सेक्रे : (लाचारीन) म्हणजे तशें शक्य ना तें.

देसाय : कित्याक शक्य ना ? गोंयचेर केंद्राचो कंट्रोल चलता काय ना ?

सेक्रे : तेंय सारकें. आमची शेंडी केंद्रसरकाराकडे आनी आमच्या मंत्र्यांचें धोरण आसा कि दमण गुजरातेंत वचूंकच जाय. हय काय न्हय देसायबाब?

देसाय : वचूंकच जाय. कित्याक तर मुखेलमंत्री म्हणटा. आनी मुखेलमंत्री ज्या अर्थान म्हणटा त्या अर्थान आमीय म्हणूंक जाय. तांची, आमचेवेली कृपानदर वचूंक फावना.

सेक्रे : ऑफकोर्स ! तांचे विरुद्ध आमकां वचूक अुपकरता ?

देसाय : पुण आमकां विरोध्न हो करचोच पडटलो. कित्याक म्हुण विचार.

सेक्रे : हय. कित्याक ?

देसाय : म्हजीं ह्या दमणांत चारा बारीं आनी अेक सोऱ्याची डिस्टलरी आसा. जर दमण गुजरातेंत गेलें तर पुराय प्रोर्डबिशन येतलें. अेकदा सॉरोबंदी जाली म्हणटकच थंय आमी कितें हॉटेलां घालपाचीं ?

सेक्रे : हाचो विचार हांवें करूंकच नाशिल्लो. म्हणटकच मागीर कितें आमकां मुखेलमंत्र्यां विरुद्ध वच्चेंच पडटलें ? पुण तें कशें शक्य आसा ?

देसाय : सेक्रेटरीं, तुमी मुर्ख. असल्यांनी तुमी इलेक्शनांत निवडून येतले ? तुमकां कोण तिकेट दितले ?

सेक्रे : ( लाचारीन हांसत ) हांव समजूंक ना.

देसाय : समजुपाचें ना तें. तुमकां समजल्यार अशे म्हजे सेक्रेटरी अुरचे नाशिल्ले. हाकाच राजकारण म्हणटात. म्हाका मुखेलमंत्र्याविरूद्ध वचून आमदारकी होगडावपाची ना.

सेक्रे : मागीर बिजनेस.

देसाय: दोनीय सांबाळप. ही अेक राजकीय चाल आसा. हांव आमदार जांवचे पयलीं देसाय नावाचो प्राणी ह्या दमणांत आसा हें तुमीं जाणा आशिल्ले?

सेक्रे: ना. खंयच्याच फिल्डांत ना.

देसाय: मागीर अेकदीस अिलेक्शन जालें. हांव निवडून आयलों. दर अेक लोकाच्या कानार म्हजें नांव पडूंक लागलें. सगळें वळखूंक लागले. ही सगळी किमया आमदार जाल्ल्यान जाली कांय ना? बिजनेस चलोवन असली पब्लीसिटी मेळपाची?

सेक्रे: नां.

देसाय: अिलेक्शनात पडल्यार जावं अुबो न राविल्ल्यान मेळटली आशिल्ली?

सेक्रे: नेव्हर. केन्नाच ना.

देसाय: फुडल्या अिलेक्शनांत हांवच निवडून येत हाची खात्री कोणाक आसा?

सेक्रे: ना.

देसाय: जंय म्हाका ना थंय दुसऱ्याक कशी आसतली? सेक्रेटरी, हें अिलेक्शन म्हळ्यार जुगार. जों मेरेन सत्तेर आसा तों मेरेन मेळटा तें सुतलावप. दुडू आनी प्रसिद्धी ह्यो दोन गजाली सामक्यो वायट. तांकां कोणूच सोडिनां. हांवेच कित्याक सोडचें?

सेक्रे: मागीर तुमकां सोऱ्याचो बिजनेस सोडचो पडटलो.

देसाय: हांव सोडचोनां. हांव मुखेलमंत्र्याक सक्ती करतलों कि दमण गोयांतूच आसूंक जाय. आनी म्हजें आयकून घेवंक तो कितेंय करपी.

सेक्रे: अशें तुमी म्हणटात.

देसाय: हय. कित्याक जाणा. म्हजे कुबडेंचे आदारान हो सरकार चलता. हांव तेंको काडीत तर सरकार कोसळटा.

सेक्रे: व्हेरी फ़ायन देसायबाब.

देसाय : मानपाचोच. हाकाच राजकारण म्हणटात. राजकारण ही अेक गेम. खेळूंक कळूंक जाय. सारको खेळ्ळो तर कदेलाक दसून अुरता. नातर खंयचे खंय वाऱ्यार अुडून वता.

## (काळोख जाता.)

## (देखाव तिसरो)

भायर स्लोगन्स चल्ल्यात. आमदार देसाय अस्वस्थ जावन पासयो मारता. वर्तमान पत्र वचपाचो यत्न करता.

स्लोगन्स : जाय रे जाय – हॉस्टेल जाय.

बारीं नाका – हॉस्टेल जाय.

आमदार देसाय – मुर्दाबाद.

स्टुंडंट युनिटी – जिंदाबाद.

(सेक्रेटरी भिवून येता.)

सेक्रे : देसायबाब, तुमी भायर येवन तांकां कितेंय सांगात.

देसाय : कितें सांगू ? तुमीच सांगात फाल्यां मुखेलमंत्र्याकडे अुलयता म्हुण.

सेक्रे : ते आयकूक तयार नांत. चार वरसां रावले म्हणटात ते. तुमी धा मिणटांभितर भायर येनात जाल्यार घराचेर फातर मारतले खंय ते.

देसाय : अितले खुबळ्ळचात भुरगे ?

सेक्रे : हाताभायर गेल्यात. तुमची सगळी प्रॉपर्टी ना करपाचें थारायलां ताणीं. (जस्मिन येता.)

जस्मिन : डॅडी, तुमी भायर पावल दवरूं नाकात. ते भुरगे खुबळ्ळचात.

देसाय : सगळीं तुजीं कर्मां तीं. लीडर जावंक सोदता न्हय तूं.!

जस्मिन : हांव आसा म्हणून भितलो वेळ शांत अुल्ले ते. नातर हो बंगलो येन्नां ना जावन वतलो आशिल्लो.

देसाय : तांकां पयलीं शांत कर. फाल्यां हांव मुखेलमंत्र्याकडेन अुलयतां म्हुण सांग.

जस्मिन : ते तयार नांत. तांकां थंडावपाक अेकूच अुपाय आसा.

देसाय : कसलो ?

जस्मिन : लिडर दलवाडीक वेगळो काडून तोंड बंद करपाचो.

देसाय : कशें ?

जस्मिन : तें हांव करतां. फक्त पांच हजार पुरो.

देसाय : बाकीचे भुरगे ओगी बसतले?

जस्मिन : मात्सो लाठीचार्ज केल्यार पुरो. पर्थून मोर्चो काडपाचें नांव घेवपाचे नात.

( अेक फातर येवन भितर पडटा. सेक्रेटरी भिवन देसाया फाटल्यान वचून अुबो रावता. )

सेक्रे : देसायबाब फातर येवंक लागले.

देसाय : सेक्रेटरी म्हजे खास तिजोरेंतले पांच हजार काडून हाका दी. वच. ( सेक्रेटरी वता. ताजे फाटल्यान जस्मिन. देसाय वचून फोन घुंवडायता. हॅलो पुलीस स्टेशन. एस्. पी. शर्मा न्हय? हांव देसाय. विद्यार्थी म्हजे घरामुखार येवन व्हायलन्स करपाचे तयारींत आसात. येवन मात्शे आळाबंदाक हाडपाचो यत्न करात. कितें? ऑलरेडी पोलीस आसात? मागीर ते कितें थंय मौजा मारीत अुबे आसात ? तुमी स्वता येवन कंट्रोल करात. लाठीचार्ज केल्यार अुपकारता. पर्थून मोर्चो काडपाचें नांव घेवंक अुपकारना ताणी. कितें? लाठीचार्ज करप कायदयांत बसना. नोन्सेन्स. कायदो बदलात. टियर गॅस सोडात. मागीर म्हगेर येयात. तुमच्या येवकाराक हांव आसां.

**( काळोख )**

## ( देखाव चौथो )

( अमित आनी जस्मिन )

अमित : म्हज्या प्रस्नाची म्हाका जाप जाय.

जस्मिन : अेकदां दिली न्हय हांवें.

अमित : ती जाप जावंक शकना. तूं स्टुडंट युनियनचो प्रेसिडंट. हय कांय न्हय ?

जस्मिन : हय. ताणो केला हातूंत म्हजो दोश कितें ?

अमित : सगळो दोश तुजो आसा. मोर्चो तुवें काडूंक लावं नाशिल्लो ?

जस्मिन : ना.

अमित : मागीर कोणे काडलो ? अध्यक्षां शिवाय विद्यार्थी मोर्चा काडटात ? जस्मिन, तू युनियनचो अध्यक्ष. युनियनचें बरें-वायट जावप तुजेर अवलंबून आसा. विद्यार्थ्यांची काळजी घेवप तुजें कर्तव्य आसा.

जस्मिन : हांव म्हज्या कर्तव्याक चुकूंक ना. अेका अध्यक्षाची जबाबदारी म्हाका कळटा.

अमित : कसली जबाबदारी ? मोर्चाचेर लाठीचार्ज जाता तो घरांत बसून पळोवपाचो ?

जस्मिन : मागीर तुजें म्हणणे कितें ? हांवें थंय लाठीचार्जांत वचून तकली फोडून घेवपाची ? आपल्याच बापायच्या विरुद्ध स्लोगन्स दिवपाचे ?

अमित : हें सगळें तुवें अध्यक्ष जावंचे पयलीं येवजुपाचें. युनियन लिडर हाचो अर्थ तरी खबर आसा तुका? काल ते सगळे अिनोसेंट भुरगे मार खाताले आनी तूं घरांत बसून आशिल्लो काकणां घालून. लिडर जावप मुर्दाडाचीं कामां न्हय जस्मिन. ताका शिवाचें काळीज जाय पडटा. आपल्या बापायच्या विरुद्ध आवाज

काडप तुका जमलेंना.

जस्मिन : डॅडीन कायच अन्याय करूंक ना. विद्यार्थ्यांक हॉस्टेल ना हो कितें तांचो दोश? स्टुडंट डॅडीचेर मोर्चो घेवन येतले हें कळिल्लें जाल्यार हांव तांचे भितर पडचोच नाशिल्लों.

अमित : तूं युनियनचो अध्यक्ष जाला तो तांकां न्याय मिळोवन दिवंक न्हय तर! फक्त मिरोवन घेवपाक. हे वेळार तूं म्हजो भाव नाशिल्लो. देसायाचो पूत नाशिल्लो. अेक युनियन लिडर आशिल्लो. अन्यायाखातीर झगडपी. पुण तुजे मुखार नातें अुबें रावलें. त्या नात्या मुखार ताजे अन्याय, जुलूम तुका दिसलेनात.

जस्मिन : म्हज्या जाग्यार तू आशिल्लो जाल्यार तेंच करतलो आशिल्लो.

अमित : ना. तुजे जाग्यार हांव आशिल्लो जाल्यार ह्या घराचेर पयलो फातर हांव शेवटीतलों आशिल्लों. पुलीसांची पयली लाठी पडटली आशिल्ली ती म्हजे तकलेर. पुण तूं? कालचें येवजीत जाल्यार मान सकयल घालची पडटा म्हाका. तुजी किंमत सगळ्या विद्यार्थ्यांक कळून आयली काल.

जस्मिन : हांवें कितें करचें अशें तुका दिसता? हांव कांयच करूंक शकनाशिल्लों.

अमित : तू कांयच करूंक शकनाशिल्लो. स्लोगन्स दिवंक शकनाशिल्लो आपल्या बापाय विरुद्ध. मार खावंक शकनाशिल्लो. तू फक्त त्या सळसळटया रगताच्या स्टुडंट लिडराक दलवाडीक लांच दिवंक शकतालो.

जस्मिन : कोणें सांगली तुका ती गजाल?

अमित : म्हाका सगळें खबर आसा. तुवें दलवाडीक पयशे दिवपाचो यत्न केलो. बापायक सांगून भुरग्यांचेर लाठीचार्ज करूंक लायलो. घरचें अेक थापट लेगीत ना खावपी त्या कवळ्या भुरग्यांक ह्या सरकारान पोशिल्लच्या पोलीस नांवाच्या गुंडानी कशे धाडायल्यात हाची कल्पना आसा तुका?

देसाय : (येत) म्हाक आसा. चड अुडटा तो बुडटा. तांकां पडलां ताचे

परस आनीकय पडूंक जाय आशिल्लें. हॉस्टेल जाय खंय !

अमित : तांची मागणी न्याय आसा. हॉस्टेल मिळोवप हो तांचो हक्क. अितले पयस साकून भुरगे येतात ताणी खंय रांवचें ? फुटपायऱ्यांचेर ?

देसाय : ताणी जाय थंय रावंचें. तांच्यो मागण्यो पुरोवप आमच्या प्लॅनांत बसना.

अमित : तुमच्या प्लॅनांत बसता फक्त पुतळे अुबारप. फाटी तुमी लाखभर रुपया खर्च करून तो गोमाजी-सोमाजीचो पुतळो अुबाल्लो. कसली गरज आशिल्ली त्या पुतळ्याची ह्या दमणांत ? त्या परस हॉस्टेल बांदून दिल्लें जाल्यार त्या विद्यार्थ्यांक हातभार लागचो नाशिल्लो सरकारचो ?

देसाय : जांकां शक्य आसा ताणी जरुर शिकचें. सगळेच शिकले जाल्यार मागीर कशें जातलें ?

अमित : आतां कशे अुलयले ? ह्याचोच अर्थ सगळ्याक साक्षरता हाड़पाचें जें तुमी थारायतात तें फक्त लोकांक फटोवपा खातीर. तुमकां लोकांक शिकोवपाचें ना. ते शिकले तर तांकां राजकारण म्हळ्यार कितें तें कळटलें आनी तें कळ्ळें रे कळ्ळें की तुमची मतां वतलीं. तांकां अशिक्षीत दवरुपांतच तुमच्या सरकारचो फायदो आसा. पुण हांव सांगतां. विद्यार्थ्यांच्यो मागण्यो तुमी मान्य करूंकच जाय.

देसाय : तें विद्यार्थी आनी सरकार पळोवन घेतलें. हातूंत पडपाचें कसलेंच सोयर सुतक ना.

अमित : सोयर सुतक नासत तुमचें. त्या जस्मिनचें. पुण त्या गरीब दुबळ्या घटकाकडेन म्हजें नातें आसा. काल तांच्या व्हांवत्या रगतातल्यान तांच्यो जीवना आवश्यक मागण्यो म्हाका दिसताल्यो. पुण तुमी तांचो आवाज चिड्डून उडोवंक सत्ता वापल्ली. पुण हें चड तेंप चलपाक ना. सगळी युवाशक्त खवळून उठ्ठली. तांच्या रक्ताच्यो न्हयात तुफान जातलें आनी तुमचो सरकार

खंयचे खंय व्हावून वतलो.

देसाय : जेन्नां घरचेच, नाट्याचेच खवळून उठ्ठात थंय लोक कित्याक उठचेनांत ?

अमित : हांव नाट्याविरुद्ध आवाज काडिनां. तुमी म्हाका जल्माक घाला म्हुण तुमचे विशी म्हाका आदर आसा. पुण तुमी सत्ता सांबाळूंक, संपत्ती वाडोवंक जनतेची जी शोषणूक, पिळणूक करतात, ताजे विरुद्ध एक नागरीक म्हणून आवाज उठयतां. आदर्श नागरीक म्हणून हें हांव करतलोंच. अन्यायाविरुद्ध, शोषणांविरुद्ध झुंजतलों. अंतीम स्वासामेरेन.

( काळोख )

## ( देखाव पाचवो )

( अमित आनी सेक्रेटरी )

सेक्रे : अमितबाब तुमीं केलें तें म्हाका आवडलेंना.

अमित : कितें तें ?

सेक्रे : तुमकां खबर आसा तें.

अमित : हांव दिसांतल्यान जायत्यो गजाली करतां.

सेक्रे : पुण आपले बापाय विरूद्ध चळवळ करप सोबना तुमकां.

अमित : हांव हज्या नाट्यांतल्या खंयच्याच व्यक्तिविरुद्ध चळवळ करीना. म्हजो आवाज आसा अन्यायाविरुद्ध. हे जनतेचेर अन्याय करपी म्हजो बापूय हें अेक म्हजें दुर्दैव.

सेक्रे : पुण हें सगळें करतात तें तुमचे खातीर. तुमच्या बऱ्या खातीर.

अमित : आमच्या बऱ्याक? शिकपी भुरग्यांक आवश्यक त्यो गजाली दिवप ना हातूंत आमचें बरेंपण कसलें? हांगच्या शेतकाऱ्यांचेर नाका जाल्ले कर घालपांत आमचें बरेंपण कसलें? यू नो सेक्रेटरी हांगच्या शेतकऱ्यांची जोड कितलीं ती? ते जोडींतल्यान ते आपल्या पोटाचें पळयतले काय हे भरमसाठ टॅक्स भरतले?

सेक्रे : टॅक्स घेतले शिवाय राज्यांत सुधारणा करूंक पयसो कसो येतलो?

अमित : कसली सुधारणा केल्या आयजवेर सरकारान? हांगचो दुबळो लोक अर्ध्या पोटान शेतांत काम करतात तांकां पोटभर जेवण मेळसारकें कितें केलां? तांकां मान ताठ करून उबें रावपा अितले उंचायेचें सादेंच तरी घर आसा? ना कांयच करूंक ना ह्या सरकारान. सरकार तांचे कडल्यान टॅक्स घेता तो फक्त आपली तिजोरी भरूंक. आपलीं घरां सजोवंक.

सेक्रे : सरकारान कितेंच करूंक ना अशें तुमकां म्हणपाचें आसा?

अमित : ह्या लोकांनी निवडून दिल्ल्या ह्या सरकारान कितें केला हें म्हाका विचारपाचें आसा. हांगचो प्रत्येक शिकिल्लो भुरगो आयज काम नासताना बेकार आसा. तांकं काम दिवपाचें काम कोणाचें? हांगा फॅक्टरी उबारप शक्य आसा. कित्याक उबार-नात? कित्याक बेकारी पयस करीनात? हो प्रस्न सोडोवपा खातीर निवडून दिल्ल्या आमच्या प्रतिनिधीन फक्त हांगा रावन लोकाची पिळणूक करप? आपलीं बारीं चलोवप? लोकांच्यो मागण्यो सत्तेच्या नेटार दडपून उडोवप?

सेक्रे : ते तुमचे बापूय आसात.

अमित : म्हाका पर्थून पर्थून याद करून दिवंक हांव विसरूंक ना तें तो म्हजो बापूय आसत. पुण पयलीं हांगचो आमदार आसा. तो म्हजो सोडून आनी कोणाचोय जरी बापूय आशिल्लो तरी म्हजें वागणें हेंच आसतलें आशिल्लें. बापुय आसतलो म्हुण हांव ताजे दोश लिपोवंक शकना.

देसाय : ( येत. ) कोण म्हणता लिपय म्हणून? घालात चंवाटचार सगळें.

अमित : आमी कित्याक घालूंक जाय. मेल्ले म्हशीचो वास गिदांक रोखडोच लागता. लोक अुलयले शिवाय थोडेच रावतात.

देसाय : कितें अुलयतात लोक ?

अमित : तुमकां खबर आसा तें.

देसाय : तरीय पुण तुमच्या तोंडातल्यान आयकूंदी म्हाका. लोकांचें कल्याण करूंक भायर सल्ला न्हय. कितें अुलयतात लोक म्हजे विशीं ?

अमित : लोक म्हणटात तुमी दुडू केला. आनी फट न्हय तें.

देसाय : हय केला. मागीर कितें म्हणणें आसा तांचें? तांका करूंक मेळ्ळेनांत म्हुण जळटा काय कितें तांच्या पोटांत ?

अमित : दीसभर कश्ट करूनय पोट भरपा अितलें अन्न मेळना म्हणटकच कित्याक जळचेंना तांच्या पोटांत ? ताणी काम करूनय अुपाशी रावप आनी आमी दीसभर मौजा मारप ? हो कसलो जालो न्याय ?

देसाय : सेक्रेटरी, सांग ह्या पिशा भुरग्याक. अमित, तू ल्हान आसा खुब ल्हान. पाकल्यांवांगडा झुंजलो म्हुण अक्कल आयली अशें समजू नाका. तुका जिविताचो अणभव येवंक ना. दुसऱ्यांक अुपाशी पळोवप हेंच तर आमच्या भरिल्ल्या पोटांचें समाधान. हांवें कशे दीस काडल्यात खबर आसा ?

अमित : हे लोक जे तरेंन जगतात ते परस पाश्ट नासुये. तशे काडिल्ले तर तें पळोवन लेगीत हें काळीज अशें फातराचें जावंचेना आशिल्लें.

देसाय : ( मंद हांसत ) म्हणूनच तें फातराचें जालां. गोंयांत आसतना तुमचे पोट भरपाखातीर हावें अक्षरशा भिक मागल्या. पुण कोणे अेक शीताचो गोटो घालोना. तेन्नाच अेक थारायले. कोणामुखार

हात पातळावप ना. हातांतले काडून घेवप. हांगा दमणांत आयलों. तावेन घालें. तें तूं चलयतलो अशो कल्पना आशील्ली. पुण तूं अक्कल येत चे पयलींच क्रांती करूंक लागलो. गोंयांत पळून गेलो. तेंच म्हाका फावलें. अेका स्वातंत्र्य सैनिकाचो बापूय म्हुण म्हाका तिकेट मेळ्ळी. निवडून आयलों. कांय दिसां भितर पयशेकार जालों. तशें घडूंक नाशिल्लें तर तू एम्. एस्सी करूंक मुंबय वचूंक पावचो नाशिल्लो. हांगाच भिक मागपाचो.

**अमित :** दुसऱ्याच्या रक्ताचेर आपलें आंग वाडोवंचे परस हाव भिक मागप पसंत करतलों आशिल्लों. हांव वाडटां तो अन्यायाच्या पयशांचेर हें खूब अुसरा कळ्ळें म्हाका. आपणेन काडिल्ल्या त्रासांचें प्रायश्चित दुसऱ्यांक बाबड्यांक कित्याक ?

**देसाय :** अेकल्याक वयर सरतलो जाल्यार दुसऱ्याक चेपचोच पडटा.

**अमित :** दुसऱ्यांच्या नाड्यार घरां अुबारूंक हांव केन्नांच दिवंचोना. सगळ्यांक वयर येवपाचो हक्क आसा. मागीर आपल्या फायद्या खातीर ताका चिड्डूवंचें कित्याक ? आपले वांगडा तांकांय कित्याक वयर काडचें न्हय ?

**देसाय :** सगळे अेकेच पंगतीक बसले जाल्यार जीवनात अुच्च नीचपण अुरचीच ना. मागीर मनीस व्हड ल्हान हें कशें थारावप ? ते खातीर कांय लोक वयर सरूंक जाय. बाकीचे चिड्डुत रावंक जाय. चिड्डुत.

(काळोख)

## (देखाव सवो)

( आमदार देसाय पेपर घेवन अस्वस्थ जावन पासयो मारता. सेक्रेटरी तो जसो भोंवता तशी मान घुंवडायता. )

देसाय : हो स्टुडंट लिडर दलवाडो आमकां बरोच त्रासदायक जातलो सो दिसता.

सेक्रे : हय. आख्खे विद्यार्थी खुबळावन घालच्यात ताणे. ते दिसाचो लाठीचार्ज जालो ताजो परिणाम हो सगळो.

देसाय : जस्मिन खंय गेला ? ताणें कांयच बातमी हाडूंक ना ?

सेक्रे : जस्मिनाक ताणों युनियनांतल्यान भायर घाला. दोळयां मुखार घेनात.

देसाय : बेअकली पोर. ते दीस पांच हजार रुपया घेवन गेल्लो. कितें केलें ताणें ? दलवाडीक दिवन थंड बसयता म्हणटालो. कितें केलें ताणें त्या पैशांचें ?

सेक्रे : दलवाडी भयंकर ऑनेस्ट प्राणी. अमितबाबा वांगडा रावून ताचे सारखो वागता.

देसाय : रक्ताचो पूत आसून दुस्मान जाला म्हजो. बापायचे विरुद्ध कट करता. ह्या दलवाडीक मात्सो थंड बसोवंक जाय सेक्रेटरी.

सेक्रे : हांव प्रयत्न करतां. पुण तो आयकतशें दिसना. ते दीस ताणे पयशे सरळ जस्मिनाच्या तोंडार मारून धांवडायलो ताका. ही गजाल हे विद्यार्थ्यां मुखार जाल्ली जाल्यार ताजें हाड लेगीत मेळचेंनां आशिल्लें.

देसाय : म्हाका अेकदीस मेळूंक जाय ताका.

सेक्रे : कांयच फायदो जांवचोना. ताका थंड बसोवंक अेकलोच शकता.

देसाय : ( अुत्सुकतायेन ) कोण ?

सेक्रे : अमितबाब. ताका देवा समान मानता तो.

देसाय: मुर्ख. सेक्रेटरी, अमित ही गजाल करीत शें दिसता तुमकां?

सेक्रे: आनी दूसरो अुपाय ना. फाल्यां सगळे विद्यार्थी व्हायलन्स करतले अशी बातमी कळटा. सरकारी मालमत्ता लासून ना करप. दमण बंद करप अशी येवजण आसा.

देसाय: मरणाचे वेध लागल्यात पोरांक. फाटलो मार विसल्लें दिसता.

सेक्रे: ह्या सळसळत्या रक्ताच्या भुरग्यांक लाठी घेवप कठीन न्हय देसायबाब. प्रत्येक लाठी वांगडा तांचो नेट वाडटा. आनी दलवाडीक मुखार पळोवन तर ते फाटीं सरपाचें विचारूच करिनांत.

देसाय: दलवाडी! दलवाडी! सेक्रेटरी ह्या दलवाडीन म्हाका घराभायर पावल काडप कठीन केलां. हे म्हजो पुराय बिजनेस वाट लावन उडयतले. फाल्यां व्हायलन्स जावंक उपकारना. एकदां सुरू जाल्लें म्हणटकच हे वोगी बसपाक ना. हें थांबोवंक जाय.

सेक्रे: मागीर तांच्यो मागण्यो मान्य करतले म्हणटात तुमी?

देसाय: मुर्ख. हांव कसल्योच मागण्यो मान्य करपाचों ना.

सेक्रे: मागीर अेजिटेशन थांबोवप आमच्या हाताभायर आसा.

देसाय: अेजिटेशन थांबोवप म्हज्या हातांत आसा. (फोन उखलून डायल करता.) हॅलो, पोलिस स्टेशन? एस्. पी. आसात? मि. शर्मा, देसाय इज हियर. फायची कितें तयारी केल्या? कसलीं म्हुण म्हाका विचारता? यू आर युजलेस फॉर युवर जॉब. हांगा म्हाका न्हीद ना. आनी तुमी ऑफीसांत बसून न्हिदो काडटात. फांल्या विद्यार्थी व्हायलन्स करपाचे आसात. स्टुडंट लिडर दलवाडीक आयचे राती भितर अॅरेस्ट करात. कितें शक्य ना? कसलोय आरोप घालात. आनी रिमांड दियात. जावंचेंना? फाल्यां ते चड करून म्हजी प्रॉपर्टी ना करपाचो यत्न करतले. म्हज्या प्रत्येक फॅक्टरीकडे पोलिस

दवरात. प्रयत्न करतां? म्हाका प्रयत्न नाका. शर्मा, तुमची बदली अितले बेगीन जावंची न्हय अशें म्हाका दिसता. तुमी कितेंय करात म्हजो तुमकां पाठिंबो आसा ह्या भुरग्यांक बुद्ध शिकयात. ओ. के. गूड लक. ( फोन दवरता. )

सेक्रे : देसायबाब, पोलिसांक भुरगे आयकतशे दिसनांत. पोलिसांक गोळीबार करचो पडटलो.

देसाय : हावें हुकूम दिलाच. दोग चौगांचेर गुळ्यो घाल्यार कांयच पर्वा ना.

सेक्रे. : सगळी जनता उठ्ठली. मारून मारून कितले लोकांक मारतले पोलिस? ते परस दुसरो अुपाय काडल्यार ?

देसाय : ( तापून ) कसलो ? तांकां हॉस्टेल बांदून दिवपाचो मू? तुमचे अुपाय कित्याक अुपकारनांत सेक्रेटरी.

सेक्रे : तशें म्हणना. अेक अुपाय आसा. दलवाडीक फायचें अेजिटेशन लीड करूंक दिवप ना.

देसाय : कशें शक्य आसा ?

सेक्रे : हांव शक्य करून दाखयतां. लीडर नासलो कि राखणो नाशिल्ल्या गोरवांभशेन विद्यार्थी खंयचे खंय नाच जावन वतले. दलवाडीक फिल्डांत येवंकूच दिवप ना. मागीर कोणूच भुरगो दिसपाक ना.

देसाय : दलवाडीक किडनॅप करूंक सोदतात ?

सेक्रे : तें शक्य ना. तो एकटो भोंवच ना. तितलो पिसो न्हय तो. पुण अेक शक्य आसा. फाल्यां मोर्चा घेवन येतना ते ट्रान्सपोर्ट पॅरालायज करतले. अेका ड्रायव्हराच्या हाताक कितेंय लायत जाल्यार अॅक्सीडंट जावप कठीन न्हय.

देसाय : अुप्रांत ड्रायव्हराचें कितें जातलें ? भुरगे दवरतले ताका ?

सेक्रे : भिवपाची गरज ना. एस्. पी. शर्मा आसा. ड्रायव्हराक रोखडोच अॅरेस्ट करपाचें काम ताका जमतलें.

देसाय : अशें करप शक्य आसा ?

सेक्रे : तुमी फक्त पळयतच रावात. विद्यार्थी गाडी आडायतात तेन्ना ड्रायव्हर नर्व्हस जातलो. ताजो कंट्रोल वतलो आनी ताजी गाडी वेग वाडून दलवाडीक धक्को दिवन वतली. आनी उप्रांत दलवाडीक ॲक्सीडंट जाल्ल्यान अेजिटेशन थांबतलें.

( देसाय खुशेन मान हालयता. )

( काळोख )

## (देखाव सातवो)

( देसाय चिंतेस्त जांवन पासयों मारता. सेक्रेटरी ताका समजायता पुण तोय भियेला. )

देसाय : सेक्रेटरी, हें सगळें घडलां ताका जबाबदार तुमी.

सेक्रे : पुण हें अशें घडटलें हें हांवें सपनांत लेगीत येवजूक नाशिल्लें. म्हाका फक्त दलवाडीक जखमी करपाचें आशिल्लें. पुण ...

देसाय : पुण तो मेलो अशेंच न्हय ? सेक्रेटरी दलवाडी मेलो हातूंत म्हाका कुसकूट भर लेगींत दुख ना. पुण केंद्र सरकार हातूत आतां लक्ष घालतलो. आनी तातूंत हांव सापडलों जाल्यार म्हजें निसंतान जातलें. तुमचीं मुर्खपणा म्हाका भोगचीं पडटलीं.

सेक्रे : पुण अशें घडलें हें चुकून. ताज्या मेंदवाक जबरदस्त मार बसलो. उदक पिवंक लेगीत वाचलोना ड्रयवरान खुबच रफ घाली गाडी.

देसाय : ड्रायव्हर खंय आसा ?

सेक्रे : शर्मान ताब्यांत घेतला ताका.

देसाय: जाप काडूंक फावना ताणें. ताचें तोंड खंयचेच परिस्थितींत

अगडूंक फावना.

सेक्रे: हांवें शर्माक सांगून तजवीज केल्या. ड्रायव्हर अेक अुतर लेगीत काडचोना हाची खात्री दवरात.

देसाय: ह्या प्रकरणान हेर भुरगे वोगी बसतले सेक्रेटरी ?

सेक्रे: ते जाप काडचेनांत. दलवाडीच्या रुपान तांचो अुजवाडूच ना जाला. स्ट्रायकाचें आनी नांव काडपाचे नांत ते.

देसाय: अमितचें रिअक्शन कितें ? ताका खबर आसा हें प्रकरण ?

सेक्रे: हय. पुण तो अेक अॅक्सीडंट हाचे वयर ताका कांयच खबर ना.

अमित: ( हताश जांवन येता ) म्हाका सगळें खबर आसा. सेक्रेटरी इट वॉज अ मर्डर बाय यू. तुमचीं नीचपण अितल्यार पावत हाची कल्पना नाशिल्ली म्हाका.

देसाय: कितें म्हणपाचें आसा तुका ?

अमित: म्हाका कितें म्हणपाचें आसा हें तुमकां पुराय खबर आसा. दलवाडी अॅक्सीडंटात मरूंक ना. तो अपघात तुमी आनी ह्या सेक्रेटरीन घडोवन हाडला. तुमी ताजो खून केला.

सेक्रे: कितें अुलयतात तुमी अमितबाब ?

अमित: गेट लॉस्ट सेक्रेटरी. म्हजे लागीं अुलयतनां तुमकां लज दिसूंक फावं आशिल्ली. दलवाडीक मारतना तुमच्या चल्याचो अुगडास येवंक जाय आशिल्लो.

सेक्रे: पुण हांवे ...

अमित: शट अप. तुमच्या पोलियो जाल्ल्या लेजाद चल्याक पळोवन तुमचें काळीज कळवळटा. आनी अेकलोच पुत आशिल्ल्या त्या दलवाडीचे आवयची कितें परिस्थीती जातली हाची कल्पना तुमकां आयली ना.

देसाय: सेक्रेटरी, दलवाडीचे आवयक तार धाडात. आमिय तांच्या दुख्खांत सहभागी आसांत. आनी तांकां आदार म्हणून पांच-हजार म्हजे वतीन पावते करात.

अमित : तुमकां बापूय म्हणूंक लेगीत म्हज्या जिवार येता. दलवाडीची किंमत करपी, अेक आवयच्या पुताची किंमत करपी अेक मनीसा खायरो म्हजो बापूय हाचें अितलें दुख्ख आनी खंयचें? डॅडी, पयसो तुमकां व्हड आसत. पुण दलवाडीची आवय तुमच्या ह्या दुडवांचेर थुंकतली. मायेचीं दुखां पुसूंक कागदाच्यो नोटी अुपकारनांत. पुताच्या खुन्या कडल्यान पयसोच न्हय, ताजें तोंड लेगीत पळोवपाची ना ती.

देसाय : अमित, तू पर्थून पर्थून खुनी म्हणून अुल्लेख करता. घरांत आसा म्हणून बरें आसा. घराभायर पडत जाल्यार बरें जावंचेनां. घरचेच जर आरोप करूंक लागले तर जग लोकांचीं तोंडां कशी धरप? तो फक्त अपघात आशिल्लो.

अमित : फक्त लोकांचे नदरेन. तुमी जाणून बुजून अपघात घडोवन हाडला तो. आपली आडखळ पयस करूंक.

देसाय : ह्या विधानाक कांयच आधार ना. पोलिसांनी तो अपघात म्हणून केस फायल लेगीत केल्या आसतली.

अमित : पोलिसय तुमचेच चमचे. तुमचेच कृपेर तर जगतात ते. तुमी लोकांक फटोवंक शकतात. पुण हांव फसचोनां. दलवाडीच्या मरणाक तुमी जबाबदार आसात. आनी ताजें प्रायश्चित तुमकां भोगचे पडटले. दलवाडीचो मित्र म्हुण म्हाका म्हजें कर्तव्य करपाचें आसा.

देसाय : दलवाडी तुजो मित्र आनी हांव जल्मदिवनूय दुश्मान.

अमित : जल्माक घालो म्हुण अुपकार केलेनांत म्हजेर. तुमी म्हाका पोसको घेवन वाडयिल्लो आनी तुमी मनीसपणान वागिल्ले तर खरे बापायपरस हांव चड मान दितलों आशिल्लों. पुण तुमी सत्तेच्या आनी संपत्ती मुखार मनीसपण विसरल्यात.

देसाय : हय हांव मनीसपण विसरलां. पुण म्हजें तू कांयच करूंक शकना. हांव दलवाडीच्या मरणाक कारण आसां, हाजो पुरावो कितें?

अमित : पुरावो नासल्याबगर हांव अुलयता. तुमचो बॉन्डाचेर सुटिल्लो ड्रायव्हर म्हज्या ताब्यांत आसा.

सेक्रे : ( भिवून ) कितें ड्रायव्हर !

अमित : हय. ताणें सगळें सांगलां म्हाका. तुमी ताका पयशे हाताक लावन मोर्चो येतालो तेवटेंन गाडी व्हरूंक लायली. दलवाडीन गाडी आडावपाचो यत्न केलो. पुण ड्रायव्हरान थारायली ना. गाडी दलवाडीचेर घाली. आनी त्या तुमच्या एस्. पी. न तो दलवाडीच्या चुकीक लागून ॲक्सिडंट असो स्टेटमेंट दिला. लोक फसले. पुण तो तुमचो कट आशिल्लो. सेक्रेटरी, दलवाडीच्या जाग्यार जस्मिन जावं तुमचो पोलियो जाल्लो पूत आशिल्लो जाल्यार तशें करतले आशिल्लें ?

देसाय : हय. म्हज्या मार्गार आडखळ हाडपी सगळें हांव पयस करतलों आशिल्लों. म्हजे हात लेगीत म्हजे विरूद्ध गेल्यार हांव कापून अुडोवपी.

अमित : स्वताचेच हात कापून आपलें लुकसाण जाता हें जाका कळना ताका मनीस म्हणीनांत.

देसाय : हय. हांव मनीस न्हय. चल जगार सांगत सूट कि बापायन दलवाडीचो खून केला म्हणून. वचूंनी म्हाका फांसार. मातयेभरत्ण जावंदी देसाय घराण्याची प्रतिष्ठा. (देसाय आनी फाटोफाट सेक्रे. वता )

अमित : प्रतिश्ठा ! जनतेच्या रक्तार पोसवल्ली प्रतिश्ठा ! अन्यायान मेळयल्ली प्रतिश्ठा ! म्हज्या घराची प्रतिश्ठा ! नाका ! म्हाका असली प्रतिश्ठा नाका. दुबळ्या लोकांच्या रक्तान माखिल्ली प्रतिश्ठा ह्या कपलाक सारोवन मिरवचे परस नाकाच ती. प्रतिष्ठा. म्हाका ह्या घराण्याक प्रतिष्ठा जाय न्यायान मेळयिल्ली. दलवाडीच्या खुन्याक फांसार चडोवन मेळयिल्ली प्रतिश्ठा. सत्तेच्या नेटार दलवाडीचो खुनी सुटत. पुण हांव सोडचोना. हांव म्हज्या हातांनी... ( स्टॅच्यू. देसायाच्या अुतरांचे पर्तात्रण

'मात भरवण... प्रतिश्ठा.' अेक मन 'आपल्या बापायक फांसार येचडटाहें पळयतलो तूं अमित? खुन्याचो पूत म्हुण तुज्यान माथें वयर करून समाजांत भोवूंक जातलें. ना. अमित तूं विसरून वच. तो खून न्हय, अपघात.' दुसरें मन 'अमित तो खून. तुजो बापूय जालो म्हुण तूं विसरूंक शकना तो. तुजी परिक्षा आसा आतां. दिवंक लाय तुज्या बापायक शिक्षा. अन्याय लिपोवं नाका.' अेक मन नाका अमित, तुज्या घराण्याची प्रतिश्ठा सांबाळ. विसरून वच सगळें. विसरून वच. अमित बेजारता. तकली घट धरता. ) दलवाडी हांव हारलों रे. लाचार जालों. पयलेच खेप म्हाका क्षमा कर. तुजेर जाल्लो अन्याय हांव अुजवाडाक हाडूंक शकना. पुण तुकां हांव वचन दितां पर्थून अशें केन्नांच घडचेना. ह्या देशांत पर्थून कोणाचेर अन्याय जाल्यार तांकां हांव जिवो सोडचोना. तुकां हांव वचन दितां. तुवें जांचे खातीर आपलें जीवन ओपलें त्या ह्या मुक्त देशांतले अमुक्त दळिद्री जनतेच्या कल्याणाखातीर हांव म्हजे हें दमडी मोलाचें जीवन अर्पण करतां. हांव तुमकां पिळून अेकठाअिल्ले हे संपत्तीचेर खोट मारून आयज म्हजें हें घर सोडटां.

(काळोख)

(२ रो अंक सोपता)



# अंक तिसरो

## ( देखाव पयलो )

गोंयच्या अेका खेडयांतल्या घराचो बल्कांव. हें घर दादा नायकांले. गरीबांविशीं कळकळ घेवन आशिल्लो हो अेक स्वातंत्र्य झुंजारी. लोकांक तांकता तशी मदत करपी. दादा म्हळ्यार थंयच्या दीन-दुबळया गावडयांचो आदार. ताजो नातू दिपू, पिराय सात- आठ वरसां, अेका मोडक्या मेजार बसून पाडे पाठ करता. ताजी आवय बेबी ताजे पाडे घेता. ती धवी साडी न्हेसल्यां. गळयांत मणी ना. सात्विक, मायेस्त.

दिपू : बार अेके बारा, बारा दुणे चोवीस, ममी, आमचे शाळेंतलो तो जानू पळे आसा तो सदांच शाळा चुकोवन दोंगरार वता काण्णा पुजावंक.

बेबी : तो वचूं. तू पाडे पाठ कर.

दिपू : बारा अेके बारा. बारा बारा दुणे चोवीस, बारा त्रिकं ... ममी जानूक तळयेंत पेंवूक बरें येता. तो आख्खी आलतड पलतड मारता.

बेबी : मारूं. तुज्या पाडयांची गाडी मुखार वचूं दी.

दिपू : गाडी म्हळ्यार गाडी, बरो अुगडास जालो. जाणा ममी ...

बेबी : हांव सगळें जाणां. दिपू, तुजें शिकपा परस हेर गजालींकडेंनच लक्ष चड. शिकल्या शिवाय मनीस जावपाचो ना तू.

दिपू : आमच्या काळूवासराक शिकयत जाल्यार तें मनीस जातलें गे?

बेबी : हय. तुका धाडायता तशें ताका धाडायिल्लें जाल्यार केन्ना मनीस जांतलें आशिल्लें. पुण तू रेडो. येदो व्हडलो घोडो जालो तरी बारांचो पाडो येना. पाडो मुखार वचूं दी.

दिपू : बारा अेके बारा, बारा दुणे चोवीस, बारा त्रिकं छत्तीस ... ममी;

तो जान् पळय आसा तो म्हाका पर्थून विचारतालो तुजो बाबा खंय काय म्हुण.

बबी : ( रागान ) मेलो म्हुण सांग. बारा चोक कितले ?

दिपू : बारा चोक ... बारा चोक. ममी सगल्यांचे बाबा आसात. म्हजोच कसो मेलो गे ? हांवें ताजें तोंड लेगीत पळोवंक ना.

बेबी : तेंच बरें जालें. दिपू, तू म्हजें आयकना ? तू पाडे पाठ कर. बाबाविशीं आनीक प्रस्न विचारूं नाका. हांवच तुका अेक दीस सांगतलें.

दिपू : पुण केन्ना ? तू सदांच अशें म्हणटा. लोकांच्या भुरग्यांक काय बरे बाबा आसात. ते तांकां भोवूंक व्हरतात. ते जानूक लेंगीत दाय आसा. पुण तो खूऽब वायट. सदांच सोरो पिवून जानूक आनी ताजे आवयक मारता. वायट जालो तरीय ताका बाबा आसाच काय ना ?

बेबी : दिपू, बाबा सगळ्यांक आसतातूच. पुण सगळ्यांचे बाबा अेक सारके नासतात. तुजो बाबा ... आसू दिपू, भोंगू मागीर केन्नाय सांगतां म्हाका सतांव नाका. (अुठत) हांव भितर वचून कामाक लागतां. तीनसांन मेरेन पाडे पाठ जावंक जाय.

दिपू : पुण ममी, जानू खेळूंक रावतलो

बेबी : खेळबीळ काय ना. पयलीं पाडे पाठ कर. (वता.)

दिपू : (गेल्ले वाटेकडे पळयत) पाडपडू ह्या पाड्यांचें. ह्या पाड्यांनी जीव खालो सामको. नातर तो जनूलों तांबडो पाडो काय बरो. तांबड्या मान हालय रे म्हळ्यार मान हालयता. पुण हे पाडे! सामकेच पाडे. बारा अेके बारा बारा दुणे चोव्वीस, बारा त्रिक छत्तीस, बारा चोक, बारा चोक ... (येवजूक मान वयर काडटा. ताज्या दोळ्यां मुखार अमित दिश्टी पडटा. तो अनवळखी नदरेन घराक तेळटा' ये मिस्टर ... मांत्सो हांगा यो. (अमित ताज्या म्हऱ्यांत येता.) पाडे येतात ?

अमित : (सिरियस) कोणाले ?

दिपू : तुजे.

अमित : हांव गोरवां राखपी दिसतां ?

दिपू : गोरवांचे पाडे म्हणना हांव. पुस्तकांतले पाडे. बारा चोक कितले?

अमित : अठ्ठेचाळीस.

दिपू : व्हेरी गूड. गणित बरें आसूक जाय. आनी अेकूच आं.

अमित : खंयचो ?

दिपू : सांगतां. अेकावर अेक अेक्याण्णव, अेकावर दोन ब्याण्णव अेकावर तीन.

अमित : त्र्याण्णव.

दिपू : नापास. अेकावर तीन त्र्याण्वण ? कशें शक्य आसा ? असल्यानी आमचो मास्तर लेगीत भोपळो दितलो तुमकां. अेकावर तीन तेरा.

अमित : म्हजी फिरकी घेता ?

दिपू : घेता न्हय. घेतली ( मोठ्यान खळखळून हांसता. दारांत बेबी. ताजेर धेंगसो घालता. )

बेबी : दिपू ! चड जालें. ( तांचे म्हऱ्यांत येवन ) सॉरी आं ! दिपू मात्सो भुरगो. तुमकां वायट दिसूंक ना मू ?

अमित : मनशान वायट करणी करचे पयलींच थारावंक जाय दुसऱ्यांक वायट दिसतलें काय ना तें. अेकदां वायट दिसले म्हणटकच चूक मागून लेगीत तें वायटपण घालोवं येता ?

बेबी : हांव चूक मागतां ते विशी. दिपूक फकणां करपाची चड संवय.

अमित : चूक मागपाची गरज ना. पुतान केल्ले चुकी खातीर आवय बापायन ल्हान जावप म्हाका निखालूस आवडना.

बेबी : दिपून तुमची चूक मानची अशें तुमका म्हणपाचें आसा ?

अमित : दिपून कांयच चूक केलीना. मागीर चुक कित्याक मागची ?

बेबी : पुण ...

अमित : म्हाका ताजो राग आयलो ना. तोखणाय दिसली.

बेबी : कित्याक ?

अमित : हांवच अेक शाणो असो म्हजो समज जाल्लो. म्हाकाय पिशांत काडपी कोण तरी आसात हें हांव ताजेकडल्यान शिकलो. अेकावर अेक अेक्याण्णव, अेकावर दोन ब्याण्णव अेकावर तीन ...

दिपू : तेरा.

अमित : यू आर रायट .अेकावर तीन तेराच आसूंक जाय.

बेबी : तुमी कोणाक सोदताले ?

अमित : मनशांतले मनीसपण·

दिपू : ( वाचता वाचतां ) हें हांगा आसा तें.

बेबी : तोंड बंद दिपू. मनशांतलें मनीसपण तुमकां खंयच मेळचेंना. मनीसपण मनशांतलें ना जालां. हांगा खेडयांत खंय खंय दिश्टी पडटा. पुण ताका कोण सभ्य मनीस लेखीनांत.

अमित : म्हाका पळोवंक मेळत ?

बेबी : तुमी शहरी दिसतात. शहरांत रावंन तें दिश्टी पडना. तें पळोंवंक हचा खेडयांतलें तांबडे मातयेंत लोळूंक जाय. हांगच्या गाव-डयांच्या घामाच्या वासांत दीस काडूंक जाय.

अमित : हांगा खंयीय चीप हॉटेल आसा ? म्हाका हांगाच दीस सारचे आसात.

बेबी : दीस धारेर पावला. हांगाच दिपू वांगडा गजाली मारात. दादा येवंचो जाला. ताजेकडे खबर मेळटली. म्हाका दिवे लावंक वचूंक जाय. घरांत काळोख पातळ्ळा. ( बेबी वता. तो ताजे-कडे पळयत रावता. दिपूकडे पळयता. दिपूचें लक्ष पुस्तकांत अमित कदेलाचेर बसता. सिगरेट काडून पेटयता. विचार करीत बसता. अुप्रांत दिपू ताका पळयता. पदां म्हणटा आनी ताजें लक्ष आपल्याकडे व्हरपाचो प्रयत्न करता. पुण अमित

विचारांत दंग. )

दिपू : मिस्टर, तुमी वोगी वसून सिगार कित्याक ओडटा ?

अमित : ( ओग्गी )

दिपू : मनशान सतत अुलयत रावंक जाय.

अमित : कित्याक ?

दिपू : बेश्टेच, म्हाका अुलोंवक आवडटा म्हुण म्हळें हांवें.

अमित : मनशान गरजे भायर अुलयिल्लें आवडना म्हाका. ( सिगरेट ओडटा )

दिपू : मिस्टर ... सॉरी आं ! तुमचें नांव खबर ना. तुमचें नांव कितें ?

अमित : अमित.

दिपू : रेडिओर बी पदां म्हणटात ते अमितकुमार तूमी ?

अमित : ना. पदांचे आनी म्हजे वाकडें.

दिपू : तूका हांव भाऊ म्हणू ?

अमित : कित्याक ?

दिपू : ममी म्हणटा कि जाण्टयांक नांवान अुलो मारचो न्हय म्हुण.

अमित : सारकें म्हणटा. पुण म्हाका नांवान अुलो मारूंक हरकत ना. म्हाका अेक सांग रे. तूजो दादा केन्ना येतलो ?

दिपू : येन्ना येवपाचो. पुण आजून येवंक ना. कळाव कित्याक जालो समजना.

अमिक : दादा म्हळचार तुजो बाबा ?

दिपू : ना. म्हजो आजो.

अमित : अच्छा. बाबा खंय आसता?

दिपू : तेंच तर म्हाका खबर ना. तो जानूय म्हाका होच प्रस्न विचारता. पुण म्हजो बाबा खंय आसा तें कोणाकूच खबर ना. ममीक लेगीत. तिका खूबदां विचाल्लें तरी ती सांगना. केन्ना केन्ना रागान मेलो म्हणटा. बाबाचो विशय काडटांच चाळवता.

बेबी : ( भितल्ल्यान ) दिपूऽऽ भितर यो.

दिपू : घे. वता हांव. ( भितर वता. )

( अमित तो गेल्लेकडेन पळयत रावता. बोल्सांतली सिगरेट काडून पेटयता. विचारमग्न स्थितीत दोळे धांपता. दादा येता. पन्नास साठ वरसां पिराय. खूब सोसलां ह्या प्राण्यान. दोळ्यांत मोग. )

दादा : कोण जाय आशिल्लो?

अमित : ( अुठत ) म्हाका विचारताले ?

दादा : हय. कोण जाय आशिल्लो ?

अमित : म्हाका कोण नाका. पुण तुमी ?

दादा : हांव ह्या घराचो घरकार.

अमित : दिपूची आवय दादा म्हणटाले ते तुमी?

दादा : हय. कसलें काम आशिलें?

अमित : म्हाका हांगा चीप अशें हॉटेंल रावंक जाय.

दादा : कितले दीस?

अमित : कायमचो.

दादा : खेड्यांत हॉटेलां मेळटात म्हुण कोणें सांगलां?

अमित : म्हाका कांयच खबर ना. हांव खूप काळान आयलां गोयांत.

दादा : खंयच्यान?

अमित : दमणच्यान.

दादा : दमणच्यान? भाई देसायाक वळखता?

अमित : ( कांचवेत ) भाई देसाय ? ना... हय.

दादा : हय.... ना. कितें? अेक सांग.

अमित : वळखतां. पुण तितलोसो परिचय ना.

दादा : तांचे विशीं दमणवाल्यांचें मत कितें?

अमित : हांगा रावपाखातीर हो म्हजो अिंटरव्ह्यू ?

दादा : तशें म्हळचार जाता.

अमित : कित्याक हो ? पुण तुमकां वायट दिसूं. वा बरें दिसूं म्हाका हांगा रावंक मेळूं वा ना मेळू हांव म्हजें खरें मत मांडटलो.

दादा : खरेंच मत जाय. थंयच्या लोकांचें ताचे वीशी मत कितें ?

अमित : तितलेंशें बरें ना. म्हजें विचारशात तर हांव ताका कंटाळून दमण सोडून आयलां. दमणांक लागिल्ली आमदार नांवाची कीड ती.

दादा : ती काडपाची सोडून, कंटाळून तुमी हांगा आयल्यात, मुर्दाड जावन ?

अमित : हांव मुर्दाड न्हय. हांव जायतें करूंक शकतालों. पुण करचेंशे दिसूनय केलेंना. बांय दी वे, आसूं त्यो गजाली रात वाडत वता. म्हाका रावूंक मेळत हांगा कितेंय ?

दादा : हांव आतां कांय सांगूक शकना. फाल्यां पळोवयां.

अमित : आयची रात म्हाका काडपाची आसा.

दादा : चिंता करूं नाकात. म्हजें घर आसा. जर गरीबालें जेवण आवडटा तर पेजेचो निवळ पिवन हांगा बल्कावांत रात काडूंक हरकत ना.

अमित : पिरायेच्या सोळा-सतराव्या वरसा हांव ह्या गोयांतल्या गावड्यांनी रांदलेली आंबील खावन रानांवनांतल्यान धांवलां

दादा : कित्याक ?

अमित : गोंय मुक्त करूंक.

दादा : म्हजेर अिम्प्रेशन मारपाचो यत्न करूं नाका. गोंयचो सगळो सुटके अितिहास म्हज्या दोळ्यांमुखार आसा.

अमित : फट अुलवोन सुटके झुजारी म्हणोवन म्हाका ताम्रपट व पेन्शन घेंवपाचें ना.

दादा : नांव कितें ?

अमित : नांव...

दादा : सांग. आडखळटा कित्याक ?

अमित : आडखळना. पुण नांव लिपोवंक सोदतालों तेंच सांगचें पडटा.

दादा : भिवपाची गरज ना. हावें आयकल्लें ओंठा भायर सरचें ना. दादा नायकालो शद्ब हो.

अमित : दादा नायक ! बेतींत पोटाक गुळी लागली तेन्ना म्हाका खांदार घेवन पळपी दादा ? दादा हांव अमित. अमित देसाय.

दाद : कोण अमित ! अमित कितले तेंपान तूं ... ( ताका वेंगांत धरूंक मुखार येता. अकस्मात भावनावश जावन फाटीं सरता. ) तू देसाय ? फाटीं सर. भाई देसायालो पूत न्हय तू ? हांगा, ह्या घरांत पांय दवरूपाचो प्रयत्नूच कसो केलो तुवें ? वच हांगच्यान. पर्थून दिसूं नाका. ( कळवळून कदेलाक धरता. ) वच म्हणटा न्हय अुपकार करून.

अमित : पुण म्हजो गुन्यांव ?

दादा : तुका कितें पळोवंक धाडला हांगा तुज्या बापायन ? वैराण करपल्लें मळ ? वच चलूंक लाग.

अमित : ( कडक अुतरानी. ) मिस्टर नायक. अेका स्वातंत्र्य झुंजाऱ्याक-डल्यान म्हाका असले वागणुकेची अपेक्षा नाशिल्लीं. दिपूची आवय म्हणटाली तेंच खरें. मनशातलें मनीस पण खंयच मेळचेंना. ( वचूंक लागता. )

दादा : राव. खंय वतलो ?

अमित : हो प्रस्न विचारपी तुमी कोण ?

दाद : तुका जखमी अवस्थेंत खांदार मारून पळपी तुजो दादा.

अमित : ( धांवत येवन ताज[illegible] घुसपत. ) दादा.

दादा : अमित हांव भुलयलों तें विसरून वच.

अमित : दादा. हे मायेस्त वेंगेक, मोगाळ अुबेक हांव आशेल्लों रे. पुण तुमचो अवतार पळोवन.

दादा : म्हजो मात्सो कंट्रोल गेलो.

अमित : तुमचो तरी वचूंक फावना आशिल्लों. तुमी पुराय बदल्ल्यात.

दादा : जगूच बदल्लां. मनीस बदलतलोच. हांव आतां पयलींचो दादा ना. भाई देसायाचो दुस्मान जालो. तू अमित न्हय. अमित देसाय ! म्हज्या दुस्मानाचो पूत.

अमित : अमित देसाय आठ दिसां पयलींच मेलो. जेन्ना ताणे घर सोडलें तेन्नाच्यान ताजें देसायाकडलें नातें तुटलां. गरीब जनतेचें रक्त चिवून आंग वाडोवपी जळवे कडेन नातें दवरप म्हाका जमलेंना.

दादा : ती जळू मारची अशी दिसलीनां ?

अमित : दिसताली. पुण महारोगान आपलो हात कुसला तो कापूंक जाय हे कळून पासून तो कापून अुडोवप अितलें धैर्य म्हाका आयलें ना. दादा, म्हणून हांव हांगा आयलां. तुमच्यांतलोच जावन रावपाखातीर. जागो मेळत खंयीय.

दादा : खंयीय न्हय. आमगेरूच रावतलो तू. जाय तितलो काळ. हक्कान. घरांतलोच जावन.

( काळोख )



## (देखाव दुसरो)

अमित कदेलाचेर बसून पुस्तक वाचपांत गुल्ल. कांय वेळान भुरगो येता. पिराय पंदरा वरसा. ताजेर कसलो तरी मानसीक परिणाम जाला अशें पळयतल्याक दिसता. सगळें वागप कृत्रिम. पयस खंय तरी पळयत रावपाची संवय. हांसप म्हणटा तें ताणे पळोवंकच ना. तो येता आनी अमिताक पळयत रावता. कांय वेळ वता. अमित पुस्तक दवरून सिगरेट पेटोवंक वता. ताजेर नदर वता. )

अमित : ( प्रश्नार्थक नदर ) कोण जाय ?

भुरगो : ( नकारार्थी मान हालयता. )

अमित : कोणाक सोदतालो?

भुरगो : ( हय )

अमित : उलोवंक येना ?

भुरगो : ( येता. )

अमित : हांगचोच?

भुरगो : ( हय. )

अमित : नांव कितें ?

भूरगो : ( फक्त पळयत रावता. बेबी च्या घेवन येता. )

बेबी : भुरग्या, गोरवां हाडलीं?

भुरगो : हय. ( आतां दोळे सतेज जातात.)

बेबी : चल भितर. हात पांय धुवन च्या घे. आनी अभ्यासाक बस.

भुरगो : (मान हालंयता. वता. )

अमित : ( च्या पियेत प्रश्नार्थक नदरेन पळयता. )

बेबी : बेवारशी पो[illegible] अ[illegible]ची गोरवां राखता. आमगेरुच रावता.

अमित : अशें जाण्टेपण घेवन आशिल्लो भुरगो आजूच नदरेक पडटा म्हजे.

बेबी : परिस्थितीचे, दुख्खाचे अणभव भुरगेंपण, होगडावन बसता. जाण्टेपण येवंक वरसां नाका. अणभव पुरो.

अमित : असले कसले अणभव घेतल्यात ताणे?

बेबी : जायते घेतल्यात. जेन्ना निर्मळ हासूंक जाय आशिल्लें, नाचूंक जाय आशिल्लें, त्या ताज्या भुरग्यापणारूच परिस्थितीन तागेलें हांसप हिसकावन घेतला.

अमित : हांगच्या जण अेकल्या मनशाचें कितें ना कितें कोणें तरी व्हेल्लें आसाच काय कितें! खेड्याविशींच म्हजी कल्पना वेगळी आशिल्ली.

बेबी : वेगळी म्हळचार कशी? हांगा सुख भरून ओतता अशेंच दिशिल्लें काय कितें तुमकां?

अमित : तशें समजूंक हरकत ना. मुक्त गोंयांत हांव पयलेच खेप आयलां. गोंयचें समृद्धीची सपना रंगयत.

बेबी : आमी सपनाच रंगयत अुल्लीं हांगा. सपनांतलो गांव खुब पयस आसा अशीऽऽअेक पासय मारून येयात खेड्यांतल्यांन. तेन्ना दिसतल्लें तुमकां गोंयचें वास्तव्य दर्शन. शारांत रावन खेडीं खूप सुंदर दिसतात. पुण खेड्यांतलो प्रत्येक मनीस सुखाच्या अेका किरणा खातीर कसो धडपडटा हें दिसून येतलें. दीसभर घाम गळोवन लेगीत ताका काळखांतल्यान भायर सरूंक मेळना तांच्याखातीर आसता फक्त काळोख.

( काळोख )



## ( देखाव तिसरो )

दिपू आनी बेबी बसल्यांत. बेबी दिपूचे कपडे शिवता.

दिपू : ममी, भाऊ खंय गेला ?

बेबी : (अजापान) कोण भाऊ ?

दिपू : तो अमित भांऊ गे.

बेबी : भोवूंक गेला.

दिपू : कोणा बरोबर ?

बेबी : अेकटोच.

दिपू : फाल्यां हांवूय वचूं ताजे बरोबर ?

बेबी : नाकां.

दिपू : वतां गे ममी. सोयऱ्याक असो अेकटोच धाडप बरें गे ? तो जानू; मामागेर वतकच ताका मामा घेवन बरोंऽऽ भोवूंक वता खंय, हाव भाऊक घेवन भोवूंक वचू गे ?

बेबी : फाल्यां वच.

दिपू : ममी म्हजो बाबा कसो दिसतालो गे ?

बेबी : पर्थून प्रस्न ? आनी प्रस्न विचाल्ल्यार तुका हांव भोवूंक वचूंक दिवंचेंना आं !

दिपू : बरें विचारीना. (कांय वेळान) ममी, भाऊ बरो दिसता न्हय गे?

बेबी : (आपल्याच कामांत मग्न.) हय.

दिपू : म्हजोय बाबा असोच दिसतालो गे ?

बेबी : (रागान) दिपूऽऽ

दिपू : सॉरी ममी. पुण ममी भाऊक पळयतकच म्हाका सदांच दिसता कि म्हजोय बाबा असोच आसचो म्हूण. असोच बसून व्हड व्हड पुस्तकां वाचपी. काल दादा म्हणटालो भाऊन खूब पाखल्यांक

माल्ल्यात म्हणून आमच्या दादापरसय चड गे ?

बेबी : हय.

दिपू : तो आमगेरूच रावतलो गे ?

बेबी : हय.

दिपू : केन्नांच वच्चोना ?

बेबी : हांव नकळं !

दिपू : ममी फाल्यां तुवूय योगे भोवंक. तू खंयच वचना केन्ना. दिसभर घरांतच बसून रांवता. येतली मगे ?

बेबी : ना. म्हाका भोंवप आवडना.

दिपू : आमी दोगूय वतले तर आं !

बेबी : वचात.

दिपू : ममी, तू बाबावांगडा केन्नांच भोवंक वचनाशिल्ली गे पयली ?

बेबी : ( रागान ) दिपू, तू म्हाका सामको खावंक लागला. तुका हजारदा सांगलें हांवें कि म्हाका असले प्रस्न विचारून त्रास दिवं नाका म्हुण.

दिपू : पुण तू म्हाका बाबा विशी कित्याक सांगना ? अेकदां म्हणटा मेलो. अेकदा वोगीच रावता. मेलो जाल्यार कसो मेलो ? म्हाका कोणेय विचाल्ल्यार सांगूक नाका ? सांग गे ममी. ( रडकुरो ) म्हाका दिसना गे ममी म्हाकाय अेक बरो डॅडी आसचो म्हुण ? सांग गे. ( वेंगेंत घुस्पून रडटा. बेबी ताका घट्ट धरता. )

बेबी : दिसता रे दिपू, पुण म्हजें कपलूच फुटकें. मनशाक जायतें जायशें दिसता. पुण जाय तें केन्नाच मेळना. केन्नाच मेळना.

( दिपूक वेंगेंत घेवन रडटा. )

**(काळोख)**

## ( देखाव चवथो )

दादा नायक कदेलार बसून पेपर वाचता. भुरगो ताज्या पायांकडे बसून पांय हालयता. पुस्तक वाचपाचो यत्न करता. मदींच सपनेल्ल्या दोळयांनी दादाक पळयत रावता.

दादा : ( मान वयर करून ताका पळयता. तो बेगबेगीन नदर पुस्तकांत रोमता ) भुरग्या, तुजें लक्ष अभ्यासाकडेन ना.

भुरगो : ( फक्त पळयत रावता. )

दादा : शिकूंक जाय. तुजो जल्म गोरवां राखूंकच वचूंक फावना. तू शिकल्यार म्हाका पोसचोना.

भुरगो : ( फक्त निस्तेज दोळयांनी ताजेकडे पळयता आनी मान हालोवन पुस्तकांत नदर रोमता.)

दादा : आयज दिल्लो धडो तयार जावंदी. ( पेपर वाचूंक लागता. दिपू आनी अमित भायर सावन येतात. )

अमित : दादा !

दादा : अमित ! यो बस. खंय पासय मारून आयलो ?

अमित : गावांतल्यान अेक फेरी माल्ली. दिपून सगळो गांव दाखयलो. मारुतीच्या देवळापासून झरीच्या तळयामेरेन भोंवडायलो.

दिपू : दादा, हांव झरीच्या तळयाकडेन वचूं ? थंय जानू आज पलतड मारून दाखयतलो.

दादा : आतांच भोवंन आयला दिपू तू. चल तू आनी भुरगो ... दोगूय ...

दिपू : ( मदींच ) तळयाकडेन वचू दादा ?

दादा : तळयाकडे न्हय. अभ्यास करात दोगूय.

दिपू : दादा वता रे. जानूक आयज आमी फोर्स दिवंक जाय. त्या बेबदचा गुरून धा रुपया पैज लायल्या. वचूं रे दादा ? भुरग्याकय व्हरता. वचू रे ?

दादा : वचात. पुण रोखडेच येवंक जाय.

दिपू : बरें दादा. भुरग्या मार धांव.

( भुरगो पुस्तक दवरून सपनेल्ल्या वरी दिपू फाटल्यान धांवता. )

दादा : झरीचे तळें म्हळ्यार ह्या गांवचें भूषण.

अमित : अर्थातच. अितलें गोड आनी थंड शितळ अुदक क्वचितच पळोवंक मेळटा. अुदक पळयतांच अेक बूड मारून वयर सरचेंशें दिसलें.

दादा : हांगचो प्रत्येक भुरगो दीसभर त्या तळयांत पडून आसता मायां म्हयन्यात हांगची दर अेक बांय सुकता पुण ह्या तळयाची झर आटना. ह्या अुदकार हांगचे गावडे लोक वांयगणां पिक-यतात. हें तळें हांगच्या लोकांचो आदार जावन आसा. ( हुस्कार सोडीत. ) पुण आतां तें थोडोच काळ.

अमित : म्हळ्यार ?

दादा : आनी दोनचार दिसांनी त्या झरीच्या तळयाचें रूप बदलूंक सुरवात जातली. तळयाच्या अुदकार हांगा जे गावडे वांयंगण पिकयताले ते मायाक अुदकाच्या घोटाक पातीशेर जातले. तें झरीचें तळें बांदून काडून टूरिस्ट स्पॉट करपाची येवजण हांगच्या आमदारान आखल्या.

अमित : अितल्या बऱ्या तळयाची वाट लावपाचें प्रयोजन कितें ?

दादा : फक्त सुवार्थ. हांगचे हें तळें म्हळ्यार सैमाचें देणें. ह्या तळयांत न्हाल्यार कसलीय पिडा रोग बरो जाता. हें तळेंच हांगच्या दुबळ्या गावड्यांचो वैज जावन आसा. आनी अमित, अेकदां हो टूरिस्ट स्पॉट जालो कि मागीर हांगा रावपाचें ना. ह्या तळयाची पवित्रताय खंयचे खंय नाच जावन वतली. हांगचें वांयगण सुकतलें. मे म्हयन्यांत जेन्ना बांयो सुकतल्यो तेन्ना हांगच्या लोकांतल्या गोरवांचे ताळे सुकतले. दिपूचो हिरो तो जानू केन्नाच पलतड मारूंक शकचोना. त्या तळयांतल्यान हें झरीचें तळें फॉरेनरांखातीर आनी शहरी टायट कॉलरवाल्या खातीरूच

अुरतलें. मोटर बोट घेवन भोंवपाक. पुण अमित हांव हें घडूंक दिवंचोना. म्हजो निमणो स्वास आसा सर हांगचो निसर्ग निसू जावंचोना.

अमित : अेकटो मनीस सरकाराकडे झगडूंक शकतलो ?

दादा : हांव अेकटो ना. म्हज्या फाटल्यान हांगची ९-१० हजारांची वस्तीं आसा. तूं पळयतलो अमित, हांव अेक अुलो मारतां आनी सगळयां लोकांक म्हज्या ह्या आंगणांत हाडटां.

अमित : सगळो गांव तुमचे वाटेन आसतना हो आमदार निवडून येताच कसो ?

दादा : पयसो आसल्यार कितें जायना? अमित म्हजेंकडेन दुडू नात. तत्वां आसात. अेकवेळचे अन्न मेळोवपाखातीर हांगचे लोक जे तळमळटात पळय तांकां तत्वां नाकात. तांच्या पोरां बाळांक निवळाचो घोंट घालपाखातीर पयसो जाय आसता. हांगचो अशिक्षीत समाज आसा पळय ताका आपल्या मना परस काग-दाचे अेके नोटीचें म्हत्व चड आसता. तो अेक दीस तरी चिंता नासतना घालोवंक शकता. मागीर तांकां आमी दोश कित्याक दिवंपाचो? (हताश जावन) अमित, आमी गोंय मुक्त केलें रे. पुण म्हाका आयज ह्या खेडयांची दशा पळोवन दिसता आमी फक्त सत्ता बदल्ली. पोर्तूगेज भायले आशिल्ले म्हणून तांका धांवडांवन घाले. पुण हांगचे हे आमचेच जात भाव आपले भितरूच वर्ग करुन रावंक लागल्यात. वर्ग शत्रू जावन बसल्यागत.

अमित : पळयलां हांवें तें. हें सत्ताधीश हांगचे दुबळे जनतेचें जे तरेन शोषण करतात, ही जनता जे स्थितीत खोंपीनी रावता, हांगच्या चिखलांत लोळटा तें पळोवन दिसता कि जीवन म्हळयार अेक पाप. गरीबांक जगपाचो लेगीत हक्क ना. ह्या अन्याया विरूद्ध ते आवाज कित्याक काडिनांत?

दादा : कोण काडटलो? दीसभर कश्ट काडून विसव घेतले काय ह्या वर्गशत्रूंकडेन झगडटले ? अमित, हांगा पोटाचो प्रस्न पयलीं

आसा. अुप्रांत राष्ट्रवाद, ध्येयवाद अुदेता. जंय पोटांतूच पडना थंय चळवळ करपाची शक्त खंयची येतली?

अमित : खेड्यांतलीं वर्णना कादंबऱ्यांनी वाचतालों. पुण कादंबऱ्यांतलें वर्णन आनी वास्तव दर्शन हातूंत कितलो फरक आसा?

दादा : कादंबरींतलें वर्णन? शारांत रावन खेड्यांतलें वर्णन करपी कसले हे कादंबरीकार? तुका कितें दिसलें? कादंबरींत वर्णन केल्ले प्रमाण हांगा कितें मेनका, अप्सरा भोवतात त्यो दिसतल्यो म्हुण?

अमित : निसर्गाचो परिणाम मनशांचेर जाताच काय ना?

दादा : निसर्गरम्य आसलो म्हणून सुंदराय वाडना. पोटांत कितेंय पडूंक जाय. आयच्यो तरणाटचो चलयो कशो मोगाची सपनां रंगयत आसूंक जाय आशिल्ल्यो. पुण तांचे तकलेर संसाराचो भार. बापायकडे वरदक्षिणेक दुडू ना. शिकूंकय पयसो ना. नोकरेक वशिलो नां. खावंक रेशनाचेर मेळिल्ली थर्डरेट भीक. रावंक घूड. आंगान कशो भरतल्यो त्यो? खरें सांगतां अमित आय हेच धीस सोसायटी. हांगा प्रस्न सुंदरायेंचो आसा. गरीबांनी जगप सोडूच, सुंदर लेगीत दिसप पाप आसा. कितें हो अन्यायं, कसली ही आडनीत!

(काळोख)



## (देखाव पाचवो)

(अमित कदेलाचेर बसून पुस्तक वाचता. बेबी दारांत रावून ताका पळयत आसा. 'ममी, म्हजो बाबा भाऊ सारखो दिसतालो गे? भाऊ बरो दिसता न्हय गे' हीं दिपूची अुतरां आयकूंक येतात. अकस्मात अमित मान वयर काडटा. ताजी नदर बेबीचेर पडटा. दोगांयची नदरा नदर जाता. बेबी गोंधळटा, लजता, थंयच पावलां अडखळटांत.)

अमित : म्हाका कितें म्हणटालें ?

बेबी : (मोन्यांनी मान हालयता. मनांत नासूनय तशेंच घुंवता. भितर वता.)

(अमित मंद हांसता. संगीताची मंदशी धून)

## (काळोख)

## देखाव सवो

(दादा नायक बसून पोस्टर रंगयता. दिपू आनी भुरगो ताका मदत करतात.

दिपू : दादा, हांवूय मोर्चात येतलों आं.

दादा : तू जायच. पुण आतां न्हय. कांय काळ वचू दी. आतां तू भुरगो आसा. जेन्ना व्हडलो जातलो तेन्ना मोर्चाचो लीडरच तूं.

दिपू : ना दादा, हांव येतलोंच. हांव आनी भुरगो. कितें रे भुरग्या ?

भुरगो : (मेल्लें हांसप हांसत मान हालयता.)

दादा : आमचे लोक आसात तितले पुरो. जर ते उणे पडले तरच तुमी

येवपाचें. आतां तुमी फक्त शिकपाचें.

दिपू : ना दादा. हांव तुजें सगळें आयकतां. म्हुण हें आयकुचोनां.

दादा : तुजे ममीची मान्यताय घे. मागीरूच तुका हांव व्हरतलों.

दिपू : आतांच घेतां. ( सामान थंयच उडोवन भितर धांवता )

दादा : भुरग्या काळुवासराक थोडें अुदक दिवन यो. ( भुरगो मान हालयत वता. अमित येता. भुरगो थांबून ताका पळयत रावता. मागीर मुखार वता. )

अमित : आयज कितें चल्लां दादा ?

दादा : यद्धाची तयारी. (हात फाफडीत उठ्ठा. विडी काडून पेटयता.)

अमित : तुमी युद्धाचे फुडारी काय कितें ?

दादा : ना. फुडारी आसात दिपू आनी भुरगो. आमी ताजें सैन्य.

अमित : भुरगो ! जाका हांवें हांगा आयिल्ल्याक एक अुतर लेगीत अुलयतना पळोवंक ना तो मोर्चा लीड करतलो ?

दादा : भुरगो कांयच अुलयना. तो तसो कोणाचकडे अुलयना, सोडून बेबी.

अमित : ताजी अुतरां खंय शेंडल्यांत ?

दादा : शेंडूंक ना. परिस्थितीन मोनो केला ताका. हो पयलीं खूब अुलयतालो. दिपू, परस चड. गोड अुलोवप पोरान. बापूय नाशिल्लो पोर तो. आव्य वांगडा दीस सारतालो. आवय काबाड कश्ट करून ताका वाडयतालो. पुण अकस्मात अेक दीस तिजें फिल्लें. कोणाचो तरी हात धरून पळून गेली. हाका रस्त्यार अुडोवन. बालमनाचेर परिणाम जावंक तितलेंच पुरो आशिल्लें. (दारांत बेबी येता.) अुप्रांत आनीक अेक गजाल...

बेबी : (दिपू वांगडा येता.) दादा !

दादा : सॉरी बेबी. (कितें अुलोवंचें तें न कळून) बेबीं आमकां थोडी कॉफी हाडटा? राव हांवच येतां. हातूय धुंवक जाय.

(दादा, बेबी फाटोफाट वता. अमित अजापान तांचेकडे पळयत

रावता.)

दिपू : म्हजी ममी पळे आसा ती अशीच कोणाचीच गजाल सांगूक दिनां. हावें तिका थोडे खेपो विचाल्लां कि म्हजो बाबा खंय काय म्हण ! पुण बरे तरेन सांगल्यार मूं ? भाऊ तूंच सांग. तुका कोणेय विचाल्लें, तुजो बाबा खंय काय म्हुण तर तूं कितें सांगतलो ?

अमित : घरा आसा म्हण

दिपू : तशें न्हय. समज तुजो बाबा मेला. तर तूं कितें सांगतलो ?

अमित : मेलो म्हण.

दिपू : कसो मेलो ?

अमित : जशें घडलां तशें सांगपाचें.

दिपू : हेंच तर म्हाका समजना. हजारदां विचाल्लें ममीक, पुण सांगना. फक्त मेलो म्हण सांगता.

अमित : तूं भुरगो आसा म्हण सांगना. अेक दीस सांगतली.

दिपू : पुण भुरग्यांचे बाबा मरतातूच कित्याक ? आनी हांवें पळोवंचे पयलींच म्हजो बाबा कित्याक मेलो ?

अमित : प्रत्येक मनशाचें काम सोंपलें म्हणटकच तो आयिल्लो थंय वता.

दिपू : तूंय वतलो ?

अमित : हय.

दिपू : केन्ना ?

अमित : सांगूक जायना. तें अकस्मात वच्चें पडटा.

दिपू : तू आमगेरच्यान घरा केन्ना वतलो ?

अमित : दादान वच म्हणून सांगतकच.

दिपू : आनी दादान वच म्हणून सांगना जाल्यार ?

अमित : हांगाच रावतलों

दिपू : व्हेरी गूड. म्हजें अेक काम करशीं ?

अमित : अेकूच कित्याक ? दोन करीन.

दिपू : अेकूच करात. दोन जावंचीनात.

अमित : पुण कसलें तें ?

दिपू : तू म्हजो भाव जाशी ?

अमित : हांव आनी तुजो भाव ? कित्याक रे ?

दिपू : म्हाका बाबा ना तो ना. भाव ना. भयण ना. हावें ममीक सांगलें कि म्हाका खूप त्रास जाता भाव भयण नासतना. खंयचोय, अेक भाव तरी हाड. म्हजी पुस्तकां सांबाळूंक शिवाय म्हाका आतां गोरोवंक वचपाचें आसा. हांयस लावंक कोणीय नाका ?

अमित : हांयस लावंक तुका भाव जाय तर ! पुण हांयस लावपी भाव सदांच धाकटो आसूंक जाय. हांव तर व्हड तुजे परस.

दिपू : ( येवजीत ) तेंय खरें. ( ताळी वाजयत ) मागीर तुज्यान म्हजो बाबा जावं येता.

अमित : सॉरी दिपू, म्हज्यान तुजो कोणूच जांवक येना. ( बेबी दारांत अुबे. ते 'दिपू' म्हुण अुलो मारता. )

दिपू : घे माल्लो अुलो.

बेबी : दिपू तुका दादा आपयता. वच भितर. ( दिपू वता. ) सॉरी, दिपूचें मनार घेवं नाकात.

अमित : आनी घेतल्यार ?

बेबी : कितें तें ?

अमित : कितेंय. भाव जावप बाबा जावप.

बेबी : भाव जावप शक्य आसा. बाबा जावप न्हंय.

अमित : पुण कित्याक ? म्हज्यांत कितें वायट कितें अुणेंपण आसा ?

बेबी : वायट बऱ्याचो, अुणेपणाचो प्रस्न ना हांगा. म्हजे भावनेचो

आसा. म्हजेर कोणें अुपकार केल्यात अशें म्हाका दिसूंक फावना

अमित : कोण कोणाचेर अुपकार करता ? हांव तुजेर ?

बेबी : हय. तुमी दिसूंक बरे आसात. व्हड घराण्यांतले आसात. समाजांत मान आसा. बरे शिकिल्ले आसात. व्हड व्हड घराण्यातल्यो चलयो तुमच्या दारांत येतल्यो. अशें आसतना म्हज्या सारकेल्या चलयेकडे लग्न जावन तुमी म्हजेर अुपकार करचेनांत ?

अमित : अितल्या दिसांनी अितलीच वळख पटली म्हजी ! बेबी, हांव मोग करतां मनशांन्या मनाचेर. तुजे अित्से विरुद्ध हांव तुका. पर्थून कांयच विचारचोंना.

बेबी : तुवें म्हाका विचारचेंशें दिसता अमित. पुणम्हज्या मनाक पटना. हांवें खूब सपना रंगयलीं. तुजेच सारको अेक राजकुमार दोळचां-मुखार दवल्लो. पुण राजकुमारापयलीं अेक राक्षस आयलो. आनी ताणे म्हाका खावन अुडयलें. म्हज्या राजकुंवराखातीर कांयच दवल्लेंना. म्हजी सगळीं सपनां तुटून फुटून खंयचे खंय नांच जालीं.

अमित : बेबी, मनीस फुटिल्ल्या सपनांच्या कुडक्यांक वेग मारून बसूंक. येवंक ना. मनशाचें मन भुतकाळाच्या बेडयांनी बांदून दवरूंक येना. ताका भविष्यकाळाच्या गरूड पक्षाचे वरदानय मेळळां. अेकादें सपन पळोवप, तें फुलोवप, सत्य सृष्टीत हाडपाखातीर धडपडप. ते धडपडींतलो आनंद लुटप. आनी दुर्दैवान तें सपन भंगल्यार लेगीत ताच्या कंवच्या वेल्यान रगतेल्ल्या पावलांनी दुसऱ्या सपना फाटल्यान धांवप होच मानवी मनाचो धर्म जावन आसा. हाकाच लागून मनशाच्या जिवीताक अर्थ येता.

बेबी : कसलो अर्थ. निरर्थक जीवन थल्लां म्हजे. दिपू सतायता. कशें सांगू ताका तुका वापूय नाशिल्लोच म्हणून.

अमित : दिपूचो बाबा कसो भायर पडलो ?

बेबी : दिपूक बाबा नाशिल्लो.

अमित : म्हणचे ?

बेबी : म्हजें लग्न जावंक ना.

अमित : तुका कोणें फसयलां ?

बेबी : कोणाचेच भुलवणेक फसपी न्हंय हांव. अेके अबलेचो गैरफायदो घेतलो अेका जनावरान. (म्हजेर बलात्कार करून)

अमित : कोण आशिल्लो तो ? प्लीज टेल मी. हांव ताका तुज्य पांयांकडेन हाडटां.

बेबी : ना. ताजें नांव लेगीत नाका कोंणाच्या ओंठार.

अमित : पुण कोण तो नराधम ? असली घाण ह्या जगांतली धुवन अुडोवंक जाय.

दादा : (येत.) कितली धुतलो ? ती धुवंक आमची शक्त पावची ना. तुज्यांत तर निखालूस ना.

अमित : म्हजें अुतर आसा हें. हांव वचन दितां.

दादा : आपल्या बापायक विरोध करचो पडटा म्हणून पळपी मनशांच्या तोंडांत वचनां सोबनांत.

अमित : (कळवळून) पुरो दादा. प्लीज स्टॉप इट. मेल्ल्याक आनी मारूं नाका. अेकदां घडली चूक. पर्थून घडचीनां. सांग म्हाका ताजें नांव.

दादा : आयकतलो ?

अमित : हय. सांग.

बेबी : नाका दादा प्लीज.

दादा : सांगपाचो प्रसंग आयला बेबी.

बेबी : नाका दादा, म्हाका आयकुपाची शक्त ना.

अमित : सांग दादा. कोण आशिल्लो तो ?

दादा : काळीज घट्ट करून आयक. तुजो बापूय आशिल्लो तो—भाई देसाय.

(अमिताच्या तोंडांत अुतरां नांत. दादा हताश जावन वता.)

अमित : बेबी, तुजेर जाल्ल्या अन्यायाची जाप हांव ताजेकडच्यान घेतलों. पुण तू म्हजो तिरस्कार करुं नाका. हांवें फक्त देसायागेर जल्म घेतलो. देसायाचें नातें म्हजेकडें जल्म दिवपा अितलेंच आशिल्लें समज. म्हाका मान सकयल घालून जगूंक लावं नाका.

बेबी : अमित, तुवें एक दीस म्हणिल्लें. पुताचे चुकीक लागून आवय बापायन ल्हान जावप म्हाका आवडना. बापायचे चुकीक लागून पुतान कित्याक ल्हान जावंचें ? कांयच घडूंक ना. विसरून वच सगळें. मात अेक कर. दिपूक केन्नाच कळूंक दिवं नाका. दिपूक हे गजाली पासून पयस दवरूंक जाय. सामको पयस.

( काळोख )



# देखाव सातवो

( दोन दिसां उप्रांतची गजाल. गांवचे लोक स्लोगंन्स दितात. )

"दिवंचेना रे दिवंचेनात
झरीचें तळें दिवंचेनात"

"दादा नायक, झिंदाबाद"

"झरीचें तळें व्हरूं नाकात
आमचें सुख मारूं नाकात."

( दादा भायर येता. )

दादा : दिपू, चल. युद्धाक सैन्य जमलां.

दिपू : चल दादा. भुरगो खंय गेलो?

( भुरगो हातांत पोस्टर घेवन येता. )

दिपू : भुरग्या, रेडी?

भुरगो : ( मान हालयता. )

दादा : म्हज्या शूर फुडाऱ्यानो चलात.

अमित : ( भायर येत. ) म्हाका सांडून चल्ले?

दादा : अमित तूं येवं नाका. थंय पोलिस फोर्स आपयला. तुका कोणीय पळयत जात[illegible]टंच [illegible]ां जातलें.

अमित : पुण हांव हातांत का[illegible]गां [illegible]ालून घरांत बसूंक शकना.

दादा : आज तरी बसूंक जाय. अमित, तूं आमचो रिजर्व फोर्स. आयज कदाचीत आमकां ॲरेस्ट करतले. मागीर सोडपाची व्यवस्था करूं नाका? गैरसमज करून घेवं नाका. आरे दिपू व्हड जायसर हांगासल्ले दुबळे जनतेर तुवेंच सावळी धरूंक जाय.

अमित : पुण...

दादा : तुका हांव भिवकुरो केन्नाच म्हणचोंना. मुक्ती संग्रामांत टू नॉट थ्री घेवन पळपी अमिताविशी म्हजो गैरसमज केन्नाच जावंचोना.

तू घरांतूच राव. आमी युद्ध जिखून येतात. आयज खंयचेच परिस्थितींत तळच्याच्या कामांक सुरवात करूंक दिवचेनात.

अमित : पुण दिपूक कित्याक व्हरतात? कितेंय बरें वायट घडल्यार,

दिपू : ना. हांव वतलोंच.

दादा : दिपूक बांदून दवरप शक्य ना. ताका येवं नाका म्हळ्यार तो येतलोच. ते परस म्हजे सांगातान येवं दी. चल या दिपू.

दिपू : ममी येतां. गुड बाय.

बेबी : चड मस्ती करूं नाका दिपू. सांबाळून राव दादा बरोबर.

दिपू : चल भुरग्या. ( भुरगो फक्त मान हालयता. बेबीचो हात पोशेता. सगळे भायर वतात. बेबी, अमित तांकां मुखार पावोवन येतात.)

अमित : भुरग्याचो खुपूच मोग तुजेर.

बेबी : आवय फाटल्यान हांवेंच सांबाळ्ळां. म्हजेच खातीर तर तो असो मोनो जाला.

अमित : पुण तो उलयता न्हय ?

बेबी : हय. फक्त म्हजेंच कडेन. दादाकडे लेगीत उलयना.

अमित : कित्याक ?

बेबी : हांव नकळं. तो निमणो उलयला तो ते दिसा. म्हजेर बलात्कार जाता तो पळोवन फक्त किळच्यो मारून म्हाका सोडोवपाचो यत्न करतालो ! अिल्लोसो भुरगो तो. कितलो प्रतिकार करतलो ? ताजेकडे कांयच करप जमलेना. तेच खंतीन म्हाका दिसता ताणे उलोवप सोडलें.

अमित : तो भुरगो आसून लेगीत कितेंय करूंक शकलो. आनी हांव बापायक विरोध करचो पडटा म्हणून हांगा येवन लिपून बसलां. मुर्दाड जावन! पळय बेबी, थूक ह्या मडयाचेर. आपल्या बापायचीं कर्मा पळोवन लेगीत हातांत काकणां घालून बसला. विरोध करपाची शक्त आसून लेगीत. 'तो म्हजो बापूय जावं. ही लोकशाय जावं. म्हाका फांशी वच्चें पडल्यार अुपकारता.





पुण असल्या मनीस खायऱ्यांक, आपल्याच भावांक, ऑल इंडीयन्स आर माय ब्रदर्स ॲन्ड सिस्टर्स म्हणून तांचें रक्त चोखपी, तांचेर बलात्कार करपी वर्गशत्रूक हांव जिवे सोडचोना. केन्नाच जिवे सोडचोंना.

( बेबी ताजो हात धरून अमित, अमित म्हण्टा. )




(काळोख)

## (देखाव आठवो)

त्याच दिसाची दनपार. अमित सिगार ओडीत पासयो मारता. भुरगो धांवत येता. धांपेता.

अमित : भुरग्या कितें जालें ?

भुरगो : ( कांचाबूल जावन मान हालयता. 'हय' )

अमित : कितें जालें ? असो घामेला कित्याक ?

भुरगो : धल्ले. माल्ले.

अमित : कोंणाक ?

भुरगो : दादाक धल्लो. पोलिसांनी.

बेबी : ( धांवट आयिल्ल्यावरी ) भुरग्या कितें जालें ? कोणाक धल्लो ?

( भुरगो ताज्या म्हऱ्यात वचत रडकुरो. )

भुरगो : दादाक पुलिसांनी धल्लो.

बेबी : दिपू खंय आसा ?

भुरगो : दिपू सकयल पडलो. तेजें रगत येताले. तरी तेका मारताले

पुलिस. लोक पळटाले. दिपू सकयल पायां पोंदा पडलो. तेणी तेका मारूंक लायलो.

अमित : बेबी, हांव पळोवन येतां कितें घडलां ते. ( भायर वता. )

बेबी : भुरग्या, दिपूक चड मार लागला ?

भुरगो : तो कांय उलयना. रगत येतालें तेजें.

बेबी : ( कानार हात दवरून ) ना. अशें घडचेंना. हांव दिपूक कांयच जावंक दिवंचेंना. दादा खंय आसा ? ताका कांय जावंक ना मरे ?

भुरगो : ना. आमी झिंदाबाद म्हणत थंय गेले. ते करतात तें थांबया म्हणोन दादान सांगलें. तेणी आयकलें ना. दादान तेंका काम करूंक दिलेंनां. तेणी पुलिसांक मारूंक लायले. पोलिस मारूंक लागले. सगले धांवले. दिपू धांवलो ना. तो सकयल पडलो. ये ते पळय ते थंय काम करतात. हांव तेंका मारतलों.

( भितर धांवता )

बेबी : खंय वता भुरग्या ?

( भुरगो हातांत आर्म घेवन येता. )

भुरगो : तेणी म्हाज्या दिपूक माल्लो. हांव तेंकां मारतलो. पुण कळना कशें मारचें ते. ( रडत. ) म्हाका मारून दाखय. हांव तेंकां मारतां. ( अमित निस्तेज दिपूक घेवन येता. ताका सकयल दवरूंक वता. बेबी धांवत वचून दिपूक वेंग मारता. ताज्या हाताक दिपूचो थंड देह लागता. तें ना ना म्हणून फाटीं सरता. अकस्मात किळांच मारून रडटा. )

अमित : बेबी, घडपाचें आसा तें घडलां. दिपू आयज हुतात्मो जालो. दिपू पळय, अेकदांच पळय. हच्या तुज्या भावाक अेकदांच गोळ भुक्ते करून पळय. हांव तुजो भाव रे. तुज्या रक्ताचो भाव. तुजीं पुस्तकां सांबाळूंक आयलां. गरयेक हांयस लावंक आयलां. पुण गरी हातांत घेवचे पयली, तूच हांयस कित्याक जालो ?

दादा : ( धांवत येत. ) बेबी, दिपू खंय गेलो ? ( दिपूक पळोवन निश्चल ) दिपू, तू आयज हुतात्मो जालो. तुजे आवयचें, आज्याचें नांव

अमर करून गेलो तू. बेबी तू रडटा? पुताचो पराक्रम पळोवन तू रडटा? आनी अमित तूवूय रडटा? (रडकूरो) दिपू आयज हुतात्मो जालो. आनी तुमी रडटात? सगळे अेका सुरांत म्हणात रे. कुमार दिपू... झिंदाबाद... कुमार दिपू... कोणूच साथ दिनांत? अमित तूंय साथ दिना? तुज्याय दोळयांत दुकां?

अमित : फातराक लेगीत झर फुट्टा दादा.

दादा : म्हण. दिपू झिंदाबाद म्हण. अेका स्वातंत्र्य सैनिकाक रडप सोबना.

अमित : कसलें स्वातंत्र्य? दादा, कोण म्हणटा आमकां स्वातंत्र्य मेळ्ळां. आमकां हें हुकूमशाय· सत्तेविरुद्ध युद्ध करूनच स्वातंत्र्य हाडपाचें आसा!

भुरगो : घे. हें घे. मार तेंकां. तेणी दीपूक माल्ला.

( अमित निश्चयान आर्म घेता. पावल अुखलता. )

दादा : अमित. फाटीं सर. तें काम म्हजें.

अमित : ना. दादा अेकदां अन्याय सोसलो हांवें. म्हाकां ह्या देशांतली घाण पयस करूं दी. हांव ह्या दिपूच्या रक्ताचो सोपूत घेवन सांगतां. जे ह्या घराक व्रादल्यात, जे ह्या देशाक पिडटात तांकां हांव माल्लेशिवाय सुसेग घेवचोना. हांगची आमदार आनी सरपंचाची कीड पयलीं ना करतां.

( आर्म घेवन भायर वता. आर्मातल्यान फार जाल्ल्याचो आवाज. काळोख जायत वता. भायर सायरन वाजतात. वाडत वता. कमी जाता. अुप्रांत कोर्टाचो आवाज. )

" आमदार गांवकार, आनीं सरपंच फेर्नांडीस हांचो गोळी घालून खून केल्ल्याब्दल. श्री अमित नायक हांकां कोर्ट मरसर फांशीची ख्यास्त फर्मायता. "

( पड्डो पडटा )

## (तिसरो अंक सोपता)



दिलीप बोरकार

जल्म १९५७ वर्सा आगशी गोयांत.

मुंबय विद्यापीठाचें शिकप घेता आसतनाच साहित्यीक वावरांत वांटेकार.

सुर्वेक कवितां आनी कथां वरवीं साहित्य निर्मणी.

तरणे पिरायेर हाका नाटयलेखनाचोय यशस्वी सांगात.

विद्यार्थी आनी तरनाटयांच्या आंदोलनांनी भाग घेतलो आनी सामाजीक वावरांतय वांटेकार जालो. हांतल्या अन्याय आनी चेपणा आड बंड करून उठपी वृत्तींतल्यानूच लेखनाक सामाजीक जाणविकेची बुन्याद फावो जाल्या.

'वर्गशत्रू' हें पुस्तक रुपान उजवाडा आयिल्लें पयलें नाटक.
'भरते-भार' हें दुसरें.

नव्या गोंयच्चे जाग्रुत तरनाटे पिळगेचो एक समर्थ प्रतिनिधी